जाग प्रकाशनाचें

नवी जाग गोंयकारांक

म्हयनाळें

वर्स ४८ : आंक १० : जून २०२२

● **संस्थापक संपादपी :**
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

● **वैचारीक दायज :**
स. माधवी सरदेसाय

● **संपादपी :**
आसावरी नायक

● **अतिथी संपादपी :**
सखाराम शेणवी बोरकार

● **पालवी संपादपी :**
कृपाली नायक, एडना वाझ

● **उजवाडावपी :**
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

● **छापपी :**
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

● **वेव्हाराचो नामो :**
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग,
गोंय विद्यापिठा लागसार,
ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ७४४७२६८७२० । १७६५१८७६०६

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

**Jaag Bank Details:**
Accont No. 4004002100005165
Name : JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch : Panaji-Goa
IFSC Code: PUNB0292300

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-



## मांडावळ...



भायलें चित्र : संकेत लवंदे.
भितल्ली चित्रा : निशीत बोरकार.

संपादकीय

# कोंकणींतलो विनोद

मनशाचे जिणेंत विनोद जाय. ताण हलको करपाक. पूण जेवणांतल्या मिठासारको. चोवीस वरां तेवल्यो बावल्यो न्हय.

साहित्या भितर विनोद हाताळप भोव कठीण. कित्याक तर हातूंत 'व्हांवपाची' खूप शक्यताय आसा. कोणाकच दुखयनासतना 'रसमी चिमटे' काडून समाजांतल्या विसंगतीचेर, वायट प्रवृत्तीचेर बोट दाखोवप आनी वेळ पडल्यार ताचेर बडी मारप हें खूप कठीण काम. हें करतना कमरे सकयल, Below the belt विनोद आपूण करिना मूं हाचें भान विनोदी लेखकाक पावला कणकणीं दवरचें पडटा. व्यक्तिगत पांवड्यार कोणूच दुखूंक फावना.

कोंकणी भाशेंतल्या विनोदाक एक इतिहास आसा. आमचो लोकवेद जशे परी धालो, मांडो, शिगम्याचीं-होळयेचीं गितां, लोक काणयो, म्हणी, उमाणी हातूंत पावला पावलाक आमकां विनोद मेळटा. पूण कोंकणी भाशेंतल्या लिखित साहित्यांत विनोद ह्या साहित्य प्रकाराक व्हडलीशी परंपरा ना. शणै गोंयबाब ते आयचे आघाडीचे लेखक हांणी केन्ना ना केन्ना विनोदी लेखन केलां. कथा, लेख, कविता, नाटकां ह्या प्रकारांतल्यान हें बरप लोकां मुखार आयलां. प्रसंगनिष्ट विनोदाचे खुबशे नमुने कोंकणी कथांनी आनी नाटकांनी आमकां पळोवंक मेळटात. तरी आसतना कोंकणीतल्या बाकिच्या साहित्य प्रकारा कडेन जशे परी कथा, कविता बी पळयत जाल्यार विनोद ह्या लेखन प्रकाराचेर कोंकणी भाशेंतल्या लिखित साहित्यांत दुर्लक्ष जाल्लें आमकां दिश्टी पडटा.

पूण खऱ्या अर्थान कोंकणी लिखित विनोदाक दर्जो दिलो तो अना म्हांबरो हांणी. कोणाक दुखयनासतना हळूच चिमटे काडप आनी आपल्याक जें सांगपाचें आसा तें अचळय सांगून उडोवप ही कळाशी अनाबाबाक खूप बरी जमिल्ली. अनाबाबान केन्नाच Below the belt कमेंट केले नात. त्याच खातीर जांचेर अनाबाबान विनोद केला ते लेगीत हे विनोद खेळकरपणान घेताले.

आयज परिस्थिती खूप वेगळी आसा. आयज आमकां विनोद वॉट्सएप आनी हेर समाजीक माध्यमां, इंटरनेट, स्टॅण्ड-अप कॉमेडी, हास्यकवी संमेलनांनी जरी खूप प्रमाणांत मेळटा तरी गद्य लिखाणांत विनोद कमी जाला. आयज मात्शें उतर वाडयल्यार आंगार धांवून वचपाची वृत्ती दिसता. कोण केन्ना कसो दुखत, अब्रू लुकसाणेचो खटलो घालपाची धमकी दित हें सांगू नजो. आयज मनश्याचो अहंकार खूप वाडला आनी तो रोखडोच दुखावता, त्या खातीर कोणाचेरुय विनोद करतनां बरोवप्याक शंभर फावटीं विचार करचो पडटा. समाजांत परत एक फावट विनोद रुजपाक चालना मेळची म्हण 'नवी जाग गोंयकारांक' हाचो जून म्हयन्याचो अंक आमी विनोदी साहित्याक ओंपला. वाचकांची तशी मागणीच आसली. आमी ह्या अंका खातीर मानेस्तां कडल्यान विनोदी साहित्य मागयिल्लें आनी ताका उपाट प्रतिसाद मेळ्ळो. हो अंक ताची गवाय आसा. तरणाटो व्यंगचित्रकार संकेत लवंदे हांणी अंक आपल्या सोबीत मुखपृष्ठान सजयला.

'नवी जाग गोंयकारांक' च्या मे म्हयन्याच्या अंकाक उपाट प्रतिसाद मेळ्ळो. त्या खातीर सगळ्यांचे उपकार. तुमचें अशेंच फाटबळ आमकां मेळटलें अशी आस्त आसा.

***

# प्रसन्न विनोद



उल्हास पै रायकार

साहित्य हो शद्ब 'सहित ह्या विशेशणांतल्यान नामाचें रूप घेवन आयला. शद्ब आनी अर्थ हांची सुबद्ध मेळामेळ जावप म्हळ्यार साहित्य. म्हणजे एकठांय आसप. वांगडा आसप. ए.सी. ब्रॅन्डे हांणी ताचो अर्थ खऱ्यांनीच बरेतरेन सांगला. ते म्हण्टात – Where sound and meaning are one. म्हळ्यार जंय नाद आनी अर्थ हांचो एकवट जाता.

वि + नुद् अशा संधीन 'विनोद' हें उतर घडलां. हाचो अर्थ आनंद दिवप आनी दुख पयस करप असो जाता.

एका संस्कृत सुभाषितान विनोदाक काव्य आनी शाखायेदोच पांवडो दिला. तें सुभाषित अशें.

*काव्यशास्त्रविनोदेन कालो गच्छति धीमताम्।*
*व्यसनेन च मुर्खाणां निद्रया कलहेन वा।*

हाचो अर्थ: शाणो मनीस आपलो फाविल्लो वेळ काव्य, शास्त्र आनी विनोदाखातीर वापरतात, जाल्यार मूर्ख मनीस व्यसनां, न्हीद आनी झगडीं हांचेखातीर.

इंग्लीशींत 'humor' हें उतर सादारण अठराव्या शेकड्यांतलें अशें म्हण्टात. ओलसारपण दाखोवपी हें उतर मूळ लॅटीन 'humor' ह्या उतरावयल्यान आयलां. एका पश्चिमी विचारवंताचो विनोदाचेर विचार म्हाका बरो दिसता. ताच्या मताप्रमाण चेतनेचेर एका तरेचें धांपण पडिल्ल्यान (घडये pressure जांव दबाव) चैतन्यरुपाची जाणविकाय जाता आनी ही जाणविकाय सूखदिणी आसता. हें आयकूपाक कठीणशें दिसता. पूण समजूपाक बसत जाल्यार समजता. चेतना हें शक्तीचेंच रूप. ताचेर जाणविकायेचो दबाव पडटा तेन्ना ही चेतना वेगळ्या अशा सूखदिण्या रुपान सट्ट करुन उक्ती जाता, एका सुंदर तंत्रान. तेन्ना विनोदाची उकतावणी जाता. म्हाका दिसता चेतना हें विनोदाचें आत्मतत्व जांव मूळ तत्व. तशें तें सगळ्याच कलांचे मूळ तत्व. पूण हेर कलांपरस वेगळेपण विनोद बाळगीता. तें म्हणजे निर्मळ अशें सूख. सूख हो ताचो आत्मभाव. वझऱ्याचें निर्मळ उदक पियेतकच कुडीक मेळटा तशें सूख विनोद रस पियेतकच मनाक मेळटा आनी मन सगळें झंझळून वता.

विनोदाची निर्मणी आमचेमेरेन पावता ती जिणेंतल्या घडणुकांतल्यान, दृष्य रुपांतल्यान, कृती म्हळ्यार करणेंतल्यान, तातूंतल्यान येवपी सुबद्ध आकारांतल्यान आनी हें चैतन्य शद्बरुपांत उकतावपी साहित्यांतल्यान.

भरतमुनीच्या नाट्यशाखांत 'हांसो' हाचेर विचार केला. वेगळेच अळंकार, भेस, आंगाची हालचाल अशा जायत्या गजालींचो तातूंत आस्पाव आसा. संस्कृत सुभाषितांनी तर उतरांचो सोबित खेळ करुन बऱ्यो गजाली सांगतना वायटाच्यो भगल्यो मारपाची कळाशी बेसबरी सादल्या. सगळ्या भासांतल्यो म्हणी आनी ओपारी म्हणजे विनोदी साहित्याच्यो खणी.

आमच्या लोकांभशेनूच ग्रीक आनी हेर देशांतल्या लोकांनी विनोदाचेर वेगवेगळ्या आंगानी विचार केला आनी ताची फोडणीशी केल्या. दर एकलो वेगवेगळे नदरेन 'विनोद' ह्या निर्मणेक पळेता. प्लेटोन ताका 'हांशें करप' ह्या आंगातल्यान पळेला जाल्यार ॲरीस्टोटलान 'सुखात्मकताय' ह्या आंगातल्यान. कोण ताका 'व्यंग' ह्या कल्पनेंतल्यान पळेता जाल्यार कोण 'विसंगती'च्या वक्लांतल्यान. सिग्मंड फ्रॉफड ताका आक्रमणाचें हत्यार (Weapon) अशें म्हण्टा जाल्यार कोण आत्मसंरक्षणाचें.

विनोदाचो उपेग जरी वेगवेगळे गजालींखातीर केलो तरी कोणाकूय वायट थारावपाक ताचो उपेग केल्यार ताचें रुप इबाडटा. बडी मारपाचीच जाली जाल्यार ती प्रवृत्तीचेर आसूंक जाय. सूख दिवप होच विनोदाचो मूळ हेत.

विनोदाचे निर्मणेन Figure म्हळ्यार आकार, सुंदरताय, नवें कितेंय मेळप, मनांकडे

संवाद, निरागसपण मेळप, वेगळी नदर मेळप अश्या जायत्या गजालींचो संबंद आसता. Bad puns are always the best laugh getters अशें जाता. पूण साहित्यांत तें जावंक फावना अशें जाल्यार विनोदाची सुंदरताय इबाडटा आनी 'सूख दिवप' ह्या मूळ तत्वापासून तो पयस वता. श्री. पु.ल. देशपांडेन आपलो अणभव सांगला. ते म्हण्टात: ''जिणेंत म्हत्वाचें कितें आनी वयलेचाराचें कितें हें विनोदाक लागून दर एकल्याक सट्ट करुन कळटा. म्हाका विनोदान तारतम्य दिलें. जिणेंत पयलें कितें आनी दुसरें कितें तें शिकयलें.''



बरोवप्यान आपल्यो शीमो थारावन विनोदी बरप केल्यार तें लोकांच्या मनांत चड रिगता. तो लेखक मागीर तांचोच जाता. हाचें कारण म्हळ्यार तो तांच्या मनांत सूख जागयता. असो लेखक लोकांक चड भावता. ताच्या बरपांतले विनोद लोकांच्या मनाचे जीबेर उरता. ते तो घोळयत रावतात. ताची रुच घेत रावतात. देखुनूच जॉर्ज मिकेश हो बरोवपी म्हण्टा 'विनोद हो एक मंद गोड सुवाद.'

विनोदी साहित्याची निर्मणी करपी मनशाचो पिंडूच तसो आसूंक जाय. श्री. पु. ल. देशपांडेन एका मुलाखतींत सांगिल्लें. ''विनोद आनी कविता ह्यो अट्टाहासान करपाच्यो गजाली न्हय.'' तांचे मताप्रमाण विनोद हो कवितेइतलोच सुंदर. हें खरेंच. म्हण्टकच कवितेंतल्यान विनोद उकतायलो जाल्यार कवितेची सुंदरताय आनीकय वाडटा. तशी देख कोंकणी कवितेंतूय आसा. कवी मनोहरराय सरदेसायाची ही कविता पळयात –

*देवा कसली तुजी करणी*<br>
*केंस जाले धवे*<br>
*नदर अजून तरणी!*

तांच्या जाणविकायेक विनोदाची एक सुंदर अशी देग आसा.

साहित्यांत विनोद केन्नाय कलाबुतीच्या आंगान येता, केन्नाय देगेच्या, केन्ना पदराच्या, जाल्यार केन्ना केन्ना तर तो अखंडूच येता.

करणेंतलो विनोद कवितेंत कसो येता तें पळेयात. कवी शंकर भांडारी हांच्या विनोदाचो हो बाज –

*तसो हांव तत्वाचो मनीस*<br>
*तुजें तुका म्हजे म्हाका*<br>
*पूण कोटांत जेन्ना गेलें आका*<br>
*मदलें दुरीग मोडून उडयलां.*

तांची 'सुणी' ही कविता समाजांतल्या कांय लोकांच्या प्रवृत्तीचेर बडी मारता, तीय सादी न्हंय, चिप्प करुन बसपी वेताची. त्या थोमण्यांतल्यान अचळय आयिल्लो अर्थ आनी विनोदाचो सुवाद पळेयात.

*समर्थाच्या सुण्याक*<br>
*सगळेच दितात मान*<br>
*पूण सुणीच समर्थ जातात*<br>
*तेन्ना कितें?*

विनोदाचो पिंड आशिल्लो मनीस सदांच विनोद शिंवरायत आसता. चार्लस डिकन्स ह्या विनोदी लेखकाक एकदां एके कार्यावळीक आपयिल्लो. ताणे आपल्या उलोवपाची सुरवात केली -

The secretary of this Society came to my house and invited me for this programme, I have therefore came here to listen to my lecture today.

कोंकणी साहित्यांत असो विनोदी पिंड आशिल्ल्या लेखकांची वळेरी व्हड नासली तरी तांच्या साहित्यांत विनोदाचे खूब सुवादीक गुण आसात. तांतल्या कितलेशाच जाणानी बरोवपांत सातत्य दवरलें ना, जाल्यार कांय जाण उलोवपांतूच रमले.

विनोदाचो एक प्रकार म्हळ्यार कोटी करप. ह्या प्रकाराचीं तासां तशीं मुदयाळीं आनी देखून भुलयाळीं. उतराच्या अर्थान घुंवडाळ्यो करपी लोकांचो पिंड कसो आसता तो पळेयात – विनोदी लेखक श्री. कृ. म. सुखठणकाराच्या बापायची गजाल म्हाका कोणे सांगली. ताका एकल्याक विचाल्लें. 'तूं कोणाकडे लग्न जाला?' ताका विचारपाचें आशिल्लें 'तुजी घरकान्न कोण?' पूण ह्या प्रस्नाक जाप ताणी सोबित घुंवडाळेन दिली — 'बायलेकडे'.

श्री. प्रकाश थळी हे विनोदांतले कोट्याधीश. जिणेच्या निमणे वेळार ते हॉस्पीटलांत I.C.U.त आशिल्ले तेन्ना एक साहित्यीक बायलमनीस तांकां मेळपाक गेली. ते अवस्थेंत लेगीत प्रकाशबाबान म्हळें, 'हांगा I see you. भायर येतकच you see me.'

नामनेचे लेखक पी. जी. वुडहाउसाक कोणें विचाल्लें,

Do you hate Germans?

तांणी जाप दिली – I don't hate in plurals.

विनोदी लेखकाच्या व्यक्तीमत्वाचो ताच्या विनोदाचेर खूब परिणाम आसता. ताचें व्यक्तीमत्व घडटा तेन्ना ताच्या सरभोंवतणीच्या समाज वेवस्थेचोय ताचेर परिणाम आसता. देखून सत्य–असत्य, दुर्बळांची जीण, वायट प्रवृत्ती जांव सभाव ह्या चडशा विशयांचेर तो आपलें मत विनोदाच्या माध्यमान परगटायता,

कोण बरें विनोदी बरप बरयत? ह्या प्रस्नाची जाप म्हाका एकूच मेळटा. जो 'मरण' ही संकल्पना मानीना तो. देखूनच जावंये आमच्या देशांतलें विनोदी साहित्य चडशे सकारात्मक नदरेन विनोदी आसता.

विनोदाक जसो मंद सुवाद आसूंक जाय तसो मंद नाद्य आसूंक जाय. पायजणां मंद मंद वाजल्यारूच तो नाद काळजांत रिगता. मन मागीर निरागस जाता आनी त्या हांशांतल्यान वाडऽऽ त वचपी प्रसन्नताय सगळो वाठार व्यापून उडयता.

संपर्क: 7507441344

***



# म्हारु - देंवचार पिंपळा पेडार

**उदय भेंब्रे**

**म्हारुः** देंवचारमाम, हांव फोंड्यां वतां. तुजें कितेंय काम आसा?

**देंवचारः** ना बाबा. तूं कसल्या कामाक वता?

**म्हारुः** सुदिन ढवळीकारागेर वतां.

**देंवचारः** ढवळीकारागेर? सर्वे करून मुर्ती मेळ्ळ्यो खंय ताका? आज पुजा बी दवरल्या काय कितें?

**म्हारुः** ना गा. पंचांग पळयले बगर, पितृपक्ष बी ना म्हूण खात्री केले बगर, म्हूर्त काडले बगर ढवळीकार असल्या कामाक भायर सरता?!

**देंवचारः** तर तूं थंय वता तो कित्याक?

**म्हारुः** ढवळीकाराक परबीं दिवपाक -

**देंवचारः** परबीं?! कसलीं रे बाबा?

**म्हारुः** आगा, ताचें नांव गिनीज बुकांत येवपाचें आसा खंय –

**देंवचारः** कसल्या बुकांत?

**म्हारुः** देंवचारमाम, एक गिनीज बूक म्हूण आसा. गिनीज बूक ऑफ वर्ल्ड रेकॉर्डस् हें ताचें पुराय नांव. संवसारीक विक्रम करता ताचें नांव येता खंय तातूंत.

**देंवचारः** ढवळीकारान कसलो विक्रम केला तर?

**म्हारुः** आयक. ढवळीकार वीज मंत्री जावंचे आदीं निलेश काब्राल वीज मंत्री आशिल्लो. ताचे कारकिर्दींत दिसाक तीन ते चार फावटी वीज पुरवण बंद पडटाली. खरें काय फट?

**देंवचारः** सामकें खरें!

**म्हारुः** ढवळीकार वीज मंत्री जालो ताका निकतेच दोन म्हयने जाल्यात. पूण ताचें काम पळय, आतां दिसाक सात ते आठ फावटी वीज पुरवण बंद पडटा. खरें काय फट?

**देंवचारः** खरें, पुता, खरें!

**म्हारुः** ताचो अर्थ, ढवळीकारान काब्रालाचो रेकॉर्ड मोडलो! ह्या विक्रमा खातीर ताचें नांव गिनीज बुकांत येवपाचें आसा.

**देंवचारः** येवं-येवं! तूं फोंडेंच्यान वतलो म्हण्टकूच आनीक एक काम कर.

**म्हारुः** कसलें तें?

**देंवचारः** रवी नायकागेर वच आनी ताकाय परबीं दी.

**म्हारुः** कसलीं परबीं?

**देंवचारः** तुका कांयच खबर ना दिसता. आरे, रवी नायकान एक मोट्टी येवजण आंखल्या –

**म्हारुः** मोट्टी येवजण?

**देंवचारः** हय, ''फुनेलसे पानी पकडो, एक्स्पर्ट करो'' अशें कितें तरी नांव आसा.

**म्हारुः** फुनेलसे पाणी पकडो, एक्स्पर्ट करो? विचित्र दिसता! कितें करूंक सोदता तो?

**देंवचारः** गोंयभर खंय व्हडलीं व्हडलीं फुनेलां बसोवप तांकां नळ जोडू ते तळयांनी, टांकयांनी व्हरुन सोडप. पावसाळ्यांतलें उदक फुनेलांतल्यान तळयांनी, टांकयांनी भरुन दवरप. तो स्टॉक मागीर बोटींतल्यान भायर धाडप–

**म्हारुः** तूं एक्स्पर्ट म्हणटलों तें एक्स्पोर्ट करप. उदक एक्स्पोर्ट करप –

**देंवचारः** तेंच तें. रवी नायक हिंदी उलयता तेन्ना म्हजो असो गोंदळ जाता.

**म्हारुः** तुजोय न्हय गा, खासा ताचोय जाता.

**देंवचारः** कुयताद! पूण केदी येवजण पळय! मीन भायर वचना. केंद्र सरकारान गंव धाडपाचोय बंद केला. डॉलर कशे मेळटले? उदक फुकट! पूण डॉलर जोडटले! हय काय ना?

**म्हारुः** हय गा. पूण रवी नायकान फुनेलां म्हणूंक ना; ताणें बांद बांदचे म्हणिल्लें.

**देंवचारः** हय, आदीं म्हणिल्लें. पूण मागीर ताका मुख्यमंत्र्यान समजायलो. सरकारी तिजोरेंत सध्या पगार आनी पेन्शन दिवपाक दुडू ना; थंय दुडवां जाग्यार हुंदीर आनी जल्ले रावतात. फुनेलां खंय रीण काडून पूण सवाय भितर जातलीं.

**म्हारुः** बरें, परबीं दिवन येतां. पूण एक सांग, फुनेलाक हिंदी भाशेंत कितें म्हणटात?

**देंवचारः** म्हाका खबर ना. पूण तें कित्याक जाय तुका?

**म्हारुः** आगा, रवी नायकाकडेन हिंदींत उलोवं नाका?

**देंवचारः** गरज ना. तुका जाय तशें उलय, कळटलें ताका.

**म्हारुः** कशें कळटलें?

**देंवचारः** ताची हिंदी आमकां कळ्ळी ना?

**म्हारुः** शीः बाबा!

**देंवचारः** हीऽऽ ती तांबड्या कापडाची बायल येता ती कोण रे?

**म्हारुः** अशें कितें करता गा? ती भुतमावशी मु गा.

**देंवचारः** न्हेसल्या ती पळयल्यार लग्नाक बी गेल्ली शी दिसता.

**भुतमावशीः** फुतफुतून कित्याक उलयतात गा? म्हजे विशीं उलयतात जाल्यार मोटयान उलयात.

**म्हारुः** तशें न्हय गे सायबिणी. तुजें तांबडें कापड पळोवन देंवचारमामाक दिसलें, तूं लग्नाक वचून आयल्या.

**भुतमावशीः** लग्नाचें फाल्यां पळोवया. हांव आज मुख्यमंत्र्यांक उजरावन आयल्यां.

**देंवचारः** आगे, ल्हवू उलय. तुवें मुख्यमंत्र्यांक उजरायलो हें कोणूय आयकत.

**भुतमावशीः** आयकूं. म्हाका कोणाची भिरांत ना. म्हाका मंत्रीपद जाय म्हणचे जाय.

**म्हारुः** तूं मंत्रीपदा खातीर झगडूंक गेल्ली तर!

**भुतमावशीः** झगडूंक कित्याक म्हणटा? म्हजो हक्क तो. देंवचारमाम, तूं सांग गा. गोंयात जितले दादले आसात, लागीं-लागीं तितल्योच बायलो आसात. पूण मंत्रीमंडळांत फकत दादले. बायलांनी रांद, वाड, उश्टीं काड इतलेंच करचें? बारा जागे आशिल्ले, स बायलांक येवपाचे. पूण एक्कूय ना.

**म्हारुः** तुवें मंत्रीपद मागलें?

**भुतमावशी:** हांव कित्याक मागतलीं? म्हजो हक्क तो. हया दादल्यांक किते दिसता, बायलांक कमीशन घेवंक येना म्हणून? बायलांक कायदे मोडूंक येनात म्हणून?

**देंवचार:** तशें न्हय गे. पूण बाराय कदेलां भरलीं न्हय. कदेलूच ना जाल्यार तुका तो दितलो खंयचें?

**भुतमावशी:** प्रतापसिंग राणेक कशें दिलें? दिलें म्हण्टकूच तेरावें कदेल आसा.

**म्हारु:** आगे, तें प्रकर्ण कोर्टांत आसा.

**भुतमावशी:** जाणां हांव. ताका हांवें तापोवन सांगलां, तें कदेल राणेक फावना अशें कोर्टान थारायलें जाल्यार तें म्हाका येणें-हक्कान.

**म्हारु:** भुतमावशें, मंत्रीपद म्हळ्यार फकत कदेल न्हय. कामाक सोळा-सतरा मनशांय दितात. तूं कितें करतली त्या मनशांचें?

**भुतमावशी:** हांव तांकां पापड लाटूंक बसयतलीं. धंद्याक मनशां लागतातूच न्हय?

**देंवचार:** कर्मभोग जालो बाबा हो!

**भुतमावशी:** हो हापशी खंय पावलो? केन्नाच वेळार पावना.

**म्हारु:** तुजें कितेंय ताकतिकेन करपाचें काम आशिल्लें?

**भुतमावशी:** हय तर! तीं सोळा-सतरा मनशां जमोवपाक जाय न्हय? मागीर धांवपळ नाका.

**म्हारु:** भुतमावशे, उपकार करून एक कर.

**भुतमावशी:** कितें कर म्हणटा?

**म्हारु:** तूं ताकां काम दी; पूण हेर कांय मंत्र्यां भाशेन लाख मागुंनाका आंऽऽ.

**भुतमावशी:** शीऽऽ! पैशे?! हांव राजकारणी न्हय म्हारवा. म्हजी जोड म्हाका पुरो. म्हाका वेंचणूक लडोवपाची ना.

**देंवचार:** हो पळय, हापशी आयलो. आरे, भुतमावशी तुजी वाट पळयत आसा.

**हापशी:** आगा, हांव जाणां. पूण म्हाका ताकतिकेन काब्रालागेर वच्चें पडलें.

**म्हारु:** कित्याक? तुका कसलेंय कंत्राट बी जाय काय कितें?

**हापशी:** नाका बाबा! पैशे हातार पडपाक वर्सां वतलीं.

**देंवचार:** तूं कित्याक गेल्लो तर?

**हापशी:** आगा, कितें सांगूं तुका? पावसाळ्या आदीं मार्गांवयलीं फोंडकुलां पुरोवंक जावचीं नात अशें ताणें सांगलें आनी आमच्या वाड्या वयलीं भुरगीं आंगणांत जमून नाचपाक लागलीं.

**भुतमावशी:** अजापाचेंच! आरे, भुरग्यांक फोंडकुलां जाय खंय?

**हापशी:** हय तर!

**देंवचार:** हय म्हणटा? आरे, तीं शाळेंत वतना पडचीं नात?

**हापशी:** तें तांणी चिंतलां जाल्यार हांव नेणां. तांणी काब्रालाक चीट बरयल्या. ती व्हरुन दी म्हूण हट्ट धरून बसलीं. हांवें दिलें व्हरून.

**म्हारु:** कितें बरयलां पत्रांत?

**हापशी:** तांणी बरयलां तें अशें – मिस्टर काब्राल सर यू आर ग्रेट! फोंडकुलां पुरोवंक जावंची नात अशें तुमी सांगलां ते खातीर कॉंग्रेटस! पावसाळ्यांत तीं फोंडकुलां वाडत वतलीं आनी तांचीं तळीं जातलीं. मागीर आमकां कागदाचीं खूब व्हडीं सोडूंक मेळटलीं. ते खातीर तुमकां दोट्टी कॉंग्रेट्स! ही चीट तुमचे इंग्लीश भाशेंत बरोवंक ना म्हूण सॉरी!

**देंवचार:** भुरगीं हुशार मरे!

**भुतमावशी:** हापश्या, म्हज्या कामाचो उगडास आसा मरे? मनशां मेळटलीं न्हय कामाक?

**हापशी:** मेळटलीं गे. तूं हुस्को करूं नाका, तेरावें मंत्रीपद मेळय. मात् एक कर. रेव्होल्युशनरी गोअन्साच्या फुडाऱ्यांक मेळ. तांकां सांग, घांट्यांक इतले बेगीन धांवडावं नाकात. कामाक मनशां जाय.

**भुतमावशी:** ती चिंता तुका नाका. हांव वळखतां मनोज परबाक. बरी वळखतां. घांट्यांक धांवडायलेच जाल्यार बिहारचीं वा उत्तर प्रदेशांतलीं मनशां हाडून दितलो तो.

**देंवचार:** कुयताद!

**हापशी:** देंवचारमाम, त्या अटल सेतूचें आता कितें करपाचें गा?

**म्हारु:** म्हाका दिसता, तो मोडून नवो बांदचो.

**हापशी:** नवो?! हॅट! हांव म्हणटां चवथो पूल बांदचो.

**देंवचार:** चवथो पूल?! आरे –

**हापशी:** हय, तोच उपाय. पूण एक – रामायणांतल्या त्या माकडांक हाडून बांदून घेवपाचो. तांणी बांदिल्लो सेतू अजून आसा.

**म्हारु:** फोंडकुलां पडलीं म्हूण नवो पूल बांदतात गा?

**भुतमावशी:** फोंडकुलां? आवय म्हजे! पुलार आनी फोंडकुलां?

**हापशी:** इतली कित्याक भियेली तूं? फोंडकुलांनी भरिल्ल्या काब्रालाच्या मार्गांनी यो-वच करिना तूं?

**भुतमावशी:** शाण्या, मार्गा वयल्या फोंडकुलांत पडल्यार हात-पांय मोडत. पुला वयल्या फोंडकुलांत पडल्यार सोमतोच मांडवींत! ताचें केन्ना चिंतलां?

**म्हारु:** त्या पुला वयल्यान वतना हांव तर जीव घट्ट मुठींत धरतां. चिंतलो कोण!

**देंवचार:** कुयताद्!

**म्हारु:** भुतमावशे, एक सांग, गोंयांत येवन रावल्यात त्या सगल्या भायल्यांक धांवडावन घाले जाल्यार कितें जातलें?

**भुतमावशी:** हांव जाणां? धांवडावन घालतकूच कळटलें!

**हापशी:** म्हाका सांग, गोंयां भायर वचून रावल्यात त्या सगल्या गोंयकारांक परत गोंयांत धांवडायले जाल्यार कितें जातलें?

**भुतमावशी:** हांव जाणा? ते भायल्यान येतले तेन्ना कळटलें!

**म्हारु:** अशें कितें गे भुतमावशे? तुका मत विचारलां. आनी तूं कुवाड्यांनीच जाप दिता?!

**भुतमावशी:** तुमकां सारकी जाप जाय म रे? अशें करात. फाल्यांच वचून मनोज परबाक मेळात. तो ज्युस्त सांगतलो! ताचे कडेन पोगो आसा!

**हापशी:** पोगो? तो जाप दिता

**देंवचार:** कुयताद!

संपर्क: 9822163223

***



# गोंयच्या सायबाची (नॉन) कॉपरेटीव्ह हावसिंग सोसायटी

दत्ता दामोदर नायक

बांदकाम पुराय जालें. नगरपालिकेन रावपाक परवानगी दिली. फ्लॅट विकतो घेतिल्लो जण एकलो आपआपल्या फ्लॅटांत रावपाक गेलो. आतां हावसिंग सोसायटी करूंक जाय. तिका नांव दिवंक जाय. सोसायटीचें बँकेंत खातें उगडूंक जाय. दरेकल्यान खात्यांत थारायिल्ली रक्कम दर वर्सा भरूंक जाय. तातूंतल्यान सोसायटीचो खर्च भागोवंक जाय - दर दिसा फ्लॅटा भायलो आंवाठ, इश्कादी झाडप, कोयर पुंजावन म्युनिसिपालिटीन दवरिल्ल्या कोयरा बल्लांत उडोवप, लिफ्टाचें मॅण्टेनन्स, स्विमींग पुलाचें मॅण्टेनन्स, गार्डनाची जतनाय, हें सगलें करूंक पयसो जाय. जण एकल्यान तो काडूंक जाय. हो सगलो वावर करून घेवपाक सोसायटीची कमिटी काडूंक जाय. कोणूच फुडें सरना जालो. सगले बिझी - आपआपल्या कामांनी गुल्ल. लश्कराच्यो भाकऱ्यो भाजूंक कोण्ण तयार नात. म्हणटात न्हय -Everybodys work is nobody's work.

मागीर गावणेकार फुडें सरलो. तो हालींच पंजाब नॅशनल बँकेंतल्यान रिटायर्ड जाल्लो. घरा बेकार बसून ताका वाज येतालो.

गावणेकारान बायलेक विचारलें, ''आगे, आयकलां? हांव सोसायटीचो चॅरमन जावंक सोदतां.''

''खंयची सोसायटी?''

''आगे, ही हावसिंग सोसायटी.''

''जायात, जायात. हावसिंग सोसायटीचे चॅरमन जायात. बँकेचे चॅरमन जायात. ताव्हेर्नांचे आनी बारांचे चॅरमन जायात. तितलोच म्हाका सुसेग. दीसभर अशें घरांत बसप. वरावरान च्या, सिगारां, रातचो हुर्राक, ताचे वांगडा खावंक भर्जी. खंयची बायल हें सोंसून घेत?''

''खंयचेय भारतीय (म्हळ्यारच हिंदू) बायलेक असो घोव दीसपट्टो घरांत आसल्यार खुपता. म्हणून काय सीतेन रामाक भांगराचें हरण धरपाक धाडलो? आनी खंयचेच भारतीय अर्थात हिंदू (एके फावटीं खंय गुरूजीक कोणें तरी विचारलें - राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघाक तुमी हिंदू स्वयंसेवक संघ अशें नांव कित्याक दवरलें ना? गुरूजीन रोखडीच जाप दिली. - राष्ट्रीय म्हळ्यारच हिंदू, हिंदू म्हळ्यारच राष्ट्रीय. भारतीय म्हळ्यार हिंदू आनी हिंदू म्हळ्यार भारतीय - बाकीचे मुसलमान, किरिस्तांव सगले - ॲण्टीनॅशनल? म्हणटकीर भारतीय उतर आयलें जाल्यार ताचे फुडें हिंदू वा हिंदू उतर आयलें म्हणटकीर अर्थात भारतीय अशें बरोवपाची गरज ना) घोवाक आपले बायलेन दीसभर घरा भायर आशिल्लें आवडना? 'न स्त्री स्वातंत्रम् अर्हते' अशें आद्य आचार्य मनुन म्हळां. बायले वांगडा एक तर तिचो बापूय जाय. नाजाल्यार तिचो भाव जाय नाजाल्यार तिचो घोव. बायलेन एकली भोंवची न्हय.




सोसायटीच्या चॅरमनाक कितलो पगार आसता काय? म्हाका पेन्शन तर आसाच, ह्या चॅरमनाच्या पगारांतल्यान म्हयन्याचें कोप आनी सिगार सुटल्यार पुरो - गावणेकारान मनांत म्हळें. पूण सोसायटीच्या चॅरमनाक पगार नासता हें कळटकीर गावणेकार न्हिन्नेलो. कांय नजं. सोसायटीचो चॅरमन म्हणून रेश्पेद तरी मेळटलो. गावणेकारान आपलें सातिश्फासांव करून घेतलें.

मागीर गावणेकारान सोसायटीची मिटींग आपयली. गावणेकारान आदींच कोणाकोणाक सांगून दवरिल्लें - सोसायटीचो चॅरमन म्हणून म्हजें नांव सुचयात. मिटींग सुरू जाली. चॅरमन कोणाक करूया? गावणेकार, गावणेकार, गावणेकार - बऱ्याच जाणांनी म्हळें. बाकीचे ओग्गी रावले. गावणेकार - पयली फावट. गावणेकार - दुसरी फावट. फुडें गावणेकार - तिसरी फावट म्हणचे आदीं व्हिएना कुतिन्हो (ही प्रतिमा कुतिन्होची कोण्ण न्हय) उबी रावली.

''हांव सोसायटीची चॅरमन जावंक सोदतां.''

''तूं ? तूं आनी सोसायटीची चॅरमन कशें जावंक शकता ? तूं बायलमनीस. चॅरमन कशी जातली?'' गावणेकारान म्हळें.

''चॅरमन म्हणात, नाजाल्यार चॅरवुमन. जाय तें म्हणात. पूण लक्षांत दवरात - सोसायटी फेमिनीन. ताची हेड चॅरवुमनूच आसूंक जाय.'' व्हिएना.

सोसायटीचो चॅरमन हिंदूच आसूंक जाय. हिंदू बगर कोणूच आसूंक फावना.'' वेलिंगकारान म्हळें.

''गर्व से कहो हम हिंदू है, गर्व से कहो हम हिंदू है.'' सगल्यांनी गजर केलो. वेलिंगकारान गावणेकाराच्या गळ्यांत हार घालो. ताच्या कपलाक नाम लायलें आनी दोनूय हातांक खांद्या मेरेन पावता इतले तांबडे दोर बांदले. गावणेकाराच्या दोळ्यांत घळघळीत दुकां आयलीं.

''आतां सोसायटीचें नांव थारावंक जाय. '' म्हाळशी सर उबो रावलो.

''श्री दत्त हावसिंग सोसायटी. : श्री दत्त - काय बरें नांव! म्हजे प्रकाशन संस्थेचेंय नांव हांवें हेंच दवरलां.''

''नाका, नाका. श्री स्वामी समर्थ हें नांव चड बरें दिसता.''

''हांव सांगतां - सोसायटीचें नांव जय श्रीराम सोसायटी आसचें.''

वेलिंगकार फुडें आयलो. ''सोसायटीचें नांव 'गोंयच्या

सायबाची हावसिंग

कॉपरेटीव्ह सोसायटी'.''

मार्टीन मिनीनाक खोस जाली. साल्वादोर मिरांडान दिमी मोडली. फातिमा कुयेल्लोन दोळे धांपून देव, देवाचो पूत आनी पवित्र आत्मो हांची सासाय आशिल्ल्या सेंट फ्रांसिस झेव्हिएराक नमन केलें.

''हो गोंयचो सायब कोण? हो गोंयचो सायब तथाकथीत (वेलिंगकाराचें उतर) संत फ्रान्सिस झेव्हिएर न्हय. गोंयचो खरो सायब भगवान परशुराम.'' वेलिंगकार उजवो हात फुडें, उजवो हात फाटल्यान, दावो हात फुडें, दावो हात फाटल्यान अशें करीत तावातावान उलयतालो. ताचो तो अवतार पळोवन फुडें उलोवपाची कापाझदाद कोणाक जाली ना.

वेलिंगकार फुरफुरलो. ''हे सोसायटीचे मेकळे सुवातेंत भगवान परशुरामाचो पुतळो उबारूंया. ताचें कोंत्राद संजय हरमलकाराक दिवंया. परशुरामाचे पुतळे करपाची फिशालकाय ताच्यांत आसा, तशी कोणांतूच ना.''

''हे सोसायटीचो कारभार एकचालकानुवर्तित तत्त्वा प्रमाण चलतलो.''

''एकचालकानुर्तित म्हळ्यार रे बाबा कितें?''

''एकचालकानुवर्तित म्हळ्यार एकलो सांगता तें सगले आयकतले. एकलो थारायता तशेंच सगले करतले. ''

''हो 'एक' कोण? गावणेकार काय तूं?''

''हांव! गावणेकार सगल्या दीसपट्ट्या वावराचेर नदर दवरतलो. ताका बुद्द हांव दितलों. हय ना, बरें वायट हांव थारायतलों.''

''ही हुकुमशाय जाली तर!''

''तुमची लोकशाही घालात XXX त. हो देश बलसागर जातलो जाल्यार ह्या देशाक हुकुमशाहीच जाय. लोकशाही म्हळ्यार गोंदळ. लोकशाही म्हळ्यार सगली बेशिस्त. हुकुमशाही म्हळ्यार शिस्तीन चलप. शिस्तीन वागप. सगलें शिस्तीन करप.''

वेलिंगकार तांबयांतलें घोंटभर उदक पिलो. ताणें फुडें म्हळें, ''देशांत अश्यो शेंकड्यांनी हावसिंग सोसायट्यो आसतल्यो. दर सोसायटी राष्ट्रवादी जाली, हिंदुत्ववादी जाली जाल्यार आमी पाकिस्तानाचें घट्टाण करूंक पावतले. अखंड भारताचें आमचें सपन पूर्ण जातलें. भारत माता की जय! भारत माता की जय!''

मुखार बशिल्ले सगले वाजेल्ले. केन्ना काय बटाटवडो खातां आनी च्या पितां अशें तांकां जाल्लें. गावणेकार आनी कुंडयकार सिगार ओडूंक भायर गेल्ले. कोणेंच भारत माता की जय असो गजर केलो ना.

''वंदे मातरम्, वंदे मातरम्.'' वेलिंगकार आड्डलो. लोक ओग्गी. फुडें बशिल्ली एक बायलमनीस आपलें भुरगें मुतलें म्हणून ताका घेवन भायर गेली. वेलिंगकाराकूय पुरो जाल्लें. खर्शेत खर्शेत परत एके फावटीं'' वंदे मातरम्, वंदे मातरम्'' अशें आड्डत वेलिंगकार सकयल बसलो.

बटाटवडो मात बरो आशिल्लो. च्यांत मात साकर उणी आशिल्ली. बटाटवडो खावन, च्या पिवन सगले घरा गेले. सात बटाटवडे उरले. ते कागदाचे पोटलेंत बांदून गावणेकार घरा गेलो.

''हांव रातचो जेवचों ना गे.'' ताणें बायलेक सांगलें.

गावणेकार हुर्राका वांगडा दोणांतली आमली खातालो. बटाटवडे खायत हुर्राक पिवपांत वेगळोच घोस्त आसता हें ताका कळ्ळें.

''दर मिटिंगेक चडूच बटाटवडे सांगचे पडले. बटाटवडे, काजुबियो आनी वेफर्स.... चॅरमनाचो अधिकार तो - कितें हाडपाचें तें थारावपाचो.''

दुसऱ्या दिसाच्यान वेलिंगकारान सोसायटीचे मेकळे सुवातेंत 'शाखा' सुरू केली. गावणेकाराक फकत बँकेच्यो 'शाखा' खबर आशिल्ल्यो. ही नवीच शाखा पळोवन गावणेकाराक अजाप जालें. वेलिंगकारान सोसायटींतल्या बऱ्याच भुरग्यांक एकठांय केल्ले.

'सदा वत्सले मातृभूमी' हें गीत जातकीर वेलिंगकारान भुरग्यांक सांगलें, ''देशभक्त आनी राष्ट्रवादी हातूंत फरक आसा. देशभक्त म्हळ्यार Patriot- आपल्या देशाचेर मोग करपी. राष्ट्रवादी म्हळ्यार Nationalist. राष्ट्रवादी आपल्या देशाचेर मोग करतातूच पूण ते आपल्या देशाचो दुस्मान आशिल्ल्या देशांचो दुस्वास करतात. पाकिस्तानाक गाळी मारले बगर आमचो राष्ट्रवाद सिद्ध जायना.''

सोसायटींत कोंकणीवादी रावताले. भारतीय भाशा आंदोलनांत आपूण कोंकणीवाद्यां वांगडा रावलों वा कोंकणीवादी आपल्या वांगडा रावले म्हणून आपल्या आड कोंकणीवादी एक्चय उतर काडचे नात अशें वेलिंगकाराक दिशिल्लें पूण भेंब्र्यान भायरी दितकीर वेलिंगकार न्हिन्नेल्लो. ताणें भाटीकाराक फोन केलो. भाटीकारानय वेलिंगकाराचें कांयच कानामनार घेतलें ना.

गावणेकारान दरेका मेंबरान सोसायटीक दिवपाची फी थारायली. वर्साक वीस हजार. सोसायटींत सगले ६४ फ्लॅट म्हणटकीर सोसायटी कडेन वर्साची १२,८०,०००/- येणावळ येतली. तातूंतल्यान सगलो खर्च करपाचो. फुडले मिटिंगेत मेंबरांनी खवदळ घालो.

''इतली फी? म्हळ्यार म्हयन्याक लागीं लागीं दोन हजार जाले. ह्या दोन हजारांनी बऱ्या घरांत रावूं येता.'' परमानंदान म्हळें.

''हांव लिफ्टाची मॅण्टेनन्स फी दिवचों ना. हांव ग्रावंड फ्लोरार रावतां. हांव लिफ्टाचो उपेग खंय करतां?''

''हांवूय दिवचों ना. हांवूय फर्स्ट फ्लोरार सोंपणां चडून वतलों.''

''म्हजी बायल आनी हांव तुमच्या तरणतलावांत न्हावंक वचनात. देखून हांव स्विमींग पुलाचें मॅण्टेनन्स दिवचों ना.''

''आमकां भुरगीं-बाळां नात. आमी केन्ना सोसायटीच्या गार्डनांत वचनात, झोपाळ्यार बसनात, घसरगुंडेचेर चडनात.''

''सोसायटीक दिसाचो एक आनी रातचो एक अशे दोन दोन चौकीदार कित्याक जाय?'' दिसाचो चौकीदार दुसरे कडेन रातपाळी केली म्हणून झेम काडटा आनी रातचो चौकीदार दुसरे कडेन दीसपाळी केली म्हणून न्हिदता.''

''सोसायटीन दोन कुत्रे हाडचे. एक अल्सेशियन आनी एक रॉट व्हेलर.''

''कुत्रे? सोसायटींत आसात ते कुत्रे पुरो जाले नात?''

''जांचे कुत्रे तांकां तांची लकुबाय. दुसऱ्यांक हे कुत्रे भोंकतात. चाबतात. सगलो वाठार बुरसो करतात.''

''सोसायटींतले कुत्रे तर जालेच. हें आतां नवें फॅड आयलां - भायल्या रस्ताद कुत्र्यांक गेटींतल्यान भितर घेवपाचें. तांकां खावपाक घालपाचें.''

''सोसायटींत भायले कुत्रे येवंक बंद जावंक जाय.''

''सोसायटींत कुत्रेच न्हय 'भायले' कोण्ण येवंक जायनात.''

''सोसायटींत कोणेच सोरो पिवंक जायना.''

''सोसायटींत कोणेच गायचें मांस खावंक जायना.''

''सोसायटींत कोणेच दुकराचें मांस खावंक जायना.''

''देसायान आपल्या रो व्हिला मुखार तुळस बांदल्या.''

''हांव खुरीस उबारतलों.''

''ते परस तुळस मोडून उडोवया.''

''तोंड सांबाळ. हिंदू देवांचो अपमान करता?''

''सोसायटींतले खंयचेय तरणाटेक वा तरणाट्याक लग्न करचें आसत जाल्यार सोसायटींतले कमिटीची परवानगी घेवची पडटली.''

''स्विमिंग पुलांत बायलांनी साडी न्हेसून आनी दादल्यांनी फूल पॅण्ट

आनी शर्ट घालून न्हावचें. बायलांनी हातकापे ब्लावज घालूंक जायनात. दादल्यांनी लांब हाताचे शर्ट घालचे.''

''सोसायटींत हिंदू कितले आसात? मुसलमान कितले आसात? किरिस्तांव कितले आसात?''

''सोसायटींतले मुसलमानांचे आनी किरिस्तांवांचे फ्लॅट तांणी हिंदूंक विकचे म्हणून तांचेर चेपण हाडया. ही सोसायटी फकत हिंदूंची जावंक जाय.''

''ही सोसायटी फकत बामणाची आसूंक जाय. पयलीं मुसलमानांक धांवडायात. मागीर किरिस्तांवांक धांवडावया. मागीर सुदीर, वाणी, मागीर मराठा, मागीर××, मागीर×××...''

''हे सगले लोक वतकीर सोसायटीचें शुद्धीकरण करया.''

''शुद्धीकरणाचे कार्यावळीक दो. प्रमोद सावंताक आपोवया.''

गावणेकाराची तकली भेरेली. वेलिंगकार सांगता तें फट न्हय. गांधीन ह्या देशाचें घट्टाण केलें. हे non co-operative चळवळीचें भूत आमचे मानगुटेर बसयलें. सगले कडेन non co-operation. कोणाक पूल जाय. कोणाक नाका. कोणाक वाग जाय. कोणाक नाका. कोणाक कोळसो जाय. कोणाक नाका. कोणाक कोंकणी जाय, कोणाक मराठी, कोणाक इंग्लीश एके इंग्लीश. कसली मड्याची ही कॉपरेटीव्ह हावसिंग सोसायटी.

''आयच्यान हांव हे सोसायटीचें नांव बदलतां. ही सोसायटी आतां गोंयच्या सायबाची (नॉन) कॉपरेटीव्ह हावसिंग सोसायटी म्हणून लोक वळखतले.''

गावणेकारान कांय दिसांनी दुसरी मिटींग आपयली.

''चॅरमन, लिफ्ट चलना.''

''चॅरमन स्विमींग पुलांतल्या उदकाक वास मारता.''

''चॅरमन, गार्डनांत तण वाडलां. तणांत सोरोप भोंवतात.''

''चॅरमन, झोपाळ्याच्यो फकत सांखळ्योच उरल्यात.''

गावणेकार उठलो. ''तुमकां तेंच फावो. तुमची मॅण्टेनन्स फी दिवपाची तयारी ना. मागीर अशेंच जावपाचें.''

''गावणेकार, मागीर तूं चॅरमन म्हणून कितें करता? कदेल तापोवपाक? आमकां गावणेकार चॅरमन नाका. गावणेकार को नीचे उतारो. गावणेकार को नीचे उतारो.''

वेलिंगकार फुडें सरलो. ''अशें जावंचें ना. अशें जावंक फावना. सगलें शिस्तींत जावंक जाय. नाजाल्यार राष्ट्राचो उद्धार कसो जातलो? हांव एक सुचोवणी करतां. मानादीक प्रधानमंत्री मोदीजीन सांगलां ते प्रमाण आमी आत्मनिर्भर जावया. मागीर कोणाकूच एका रुपयाचीय फी दिवपाची गरज ना.''

''असली कसली सुचोवणी तर तुजी?''

''आमी सोसायटीचे जमनींत उत्तरेक एक, दक्षीणेक एक, उदेंतेक एक, अस्तंतेक एक, नैऋत्येक एक, आग्नेयेक एक, ईशान्येक एक आनी वायव्येक एक अशे आठ मोबायल टॉवर्स उबारपाक अंबानीचे रिलायन्स कंपनीक सांगया. सोसायटीक भरपूर भाडें येतलें. आमचे जमनींत घसघशीत उदकाची व्हडली बांय आसा. तिचें उदक व्हरपाक आमी ती बांय बऱ्याश्या टँकरवाल्याक भाड्याक दिवया.''

''पूण मोबायल टॉवरां खातीर कॅन्सर जाता.''

''हातूंत कांयच तथ्य ना हें दोतोर शेखर साळकारान सांगलां.''

''कोण हो शेखर साळकार?''

''कॅन्सर सर्जन. ''

''मागीर तो कोविडाचेरय कसो उलयता?''

''गोंयांतलो खंयचोय बुदवंत खंयच्याय विशयाचेर उलयता.''

''सोसायटीचो हॉल वाडदिसाक, साकरपुड्याक भाड्यान दिवं येता.''

''पूण बांयचें उदक टँकरांनी व्हरपाची सुचोवणी मात म्हाका मान्य ना. आमचे जमनींतलें ग्रावंड वॉटर उणें जातलें.''

''भिवपाची कांय गरज ना. भिवपाची कांयच गरज ना. कांयच भिवपाची गरज ना. ग्रावंड वॉटर लेव्हल, ग्लोबल वॉर्मिंग, बायोडायव्हर्सिटी हाची जतनाय घेवंक खूब बुदवंत आसात गोंयांत - गावस आसा. राजेंद्र आसा, दोतोर ऑस्कर आसा, नंदकुमार आसा, क्लावड आसा, नॉर्मा आसा.''

सगले ओग्गी बसले. थोड्यांक पटलें. थोड्यांक पटलें ना. उरिल्ल्यांक कांयच पडलें ना.

नॉन कॉपरेटीव्ह सोसायटीची तिसरी बसका बरीच गाजली.

सुरवातीक क्लेमेंत उठलो. ''ह्या हावसिंग प्रोजेक्टांतले बिल्डिंगेचें काम सामकें बाबत जालां. बिल्डराक आपोवन हें सगलें दाखयात. आठ म्हयन्यां भितर वण्टीक वेरो आयल्यात. बाल्कनींत वावझड येता. बाथरूमाची खिळी मोडल्या. हांगा न्हीद सारकी पडना. परत परत पोटांत मुड्डून येता. पांय मुयेतात. हड्ड्यांत किसकिसता. ह्या वर्सा शीं सारकें पडूंक ना. ह्या सगल्याक तो फटींग बिल्डर जापसालदार.''

''तो बिल्डर ट्रीपल चोर. ट्रीपल फटींग.''

''कसो?''

''एक म्हळ्यार तो कोंकणो. दुसरें म्हळ्यार तो बामण. तिसरें म्हळ्यार तो गिरेस्त.''

''तूं कोंकण्याक गाळी मारता? आँ. केदी कापाझदाद तुजी. कोंकण्याक गाळी संवपाची?''

''तूं बामणाक गाळी मारता? आँ. केदी कापाझदाद तुजी. बामणांक गाळी संवपाची ? ''

''एक फुलयात रे ताचेर.''

''क्लेमेंताक मारचे पयलीं तुमकां म्हज्या मड्या वयल्यान वचचें पडटलें.'' ज्येश्ठ स्वातंत्र्य सैनीक कलानंद काकोडकारान म्हळें.

सगल्यांनी ताच्या उतराक मान दिलो. मिटींग सोंपली. चड मागोवनूय एक्कूय बटाटवडो उरलो ना.

'फुडले मिटिंगेक थोडे चडूच मागोवचे पडटले'. गावणेकारान मनांत म्हळें.

''तूं आयज जेवचो ना न्हय? आयज तुमची मिटींग आशिल्ली न्हय?'' गावणेकाराले घरकान्नीन विचारलें.

गावणेकारान कपलार हात मारलो. ग्लासांत हुर्राक ओतयत ताणें म्हळें, ''आगे, दोणांतल्यो आमल्यो हाड तीन-चार. रातचो हांव दोन केळी खातलों आनी न्हिदतलों.''

''हय. हय. रातचें अशे तुमी दोन केळी खावनच न्हिदल्यार बरें. धोल पळयात कितलें वाडलां तें.''

गावणेकार हुर्राक पिवन दोन केळी खावन सुस्त न्हिदपाक गेलो, पूण ताका न्हीद पडली ना. फांतोडेर ताका दोळो लागलो. कसलेंशेंच भयानक सपन पडलें ताका.

''आकांताचो भुंयकांप जालो. सगल्यो बिल्डिंगो मातये भरवण जाल्यांत. भुरगींबाळां, म्हातारीं कोतारीं, दादले-बायलो, सोसायटीचे रिते सुवातेर जमल्यात. गावणेकार खंय तो? चॅरमन गावणेकार खंय तो? गावणेकार, सगल्यो बिल्डिंगो बांदून दी. चॅरमन म्हणून तुजी जापसालदारकी ती. गावणेकार वेलिंगकाराक सोदता. अशे परिस्थितींतूय वेलिंगकार शाखा

*(पान १३ चेर)*

# फुलां बाये फुलां... अध्यक्षालीं फुलां...!



**बोरकारी**

दिलीप बोरकार

शी सायबा! सामकेच विटोवंक लागल्यात हे एक्साचे! कोणें कोणाक फुलां माळ्ळीं आनी कोणें कोणाचो पदर ओडलो

हांच्या बापायचें कितें सरता...?

आतां ह्या गजालींक तशें व्हडलेंशें म्हत्व ना..!

फुलां माळपाचो काळ केन्ना काळा भायरो जालो...

अशें म्हाका दिसतां आं... माळून घेताय आसत नवी पिळगी..!

पूण म्हाका कोण कांय धाडी ना.

भुरगेपणार म्हाका कोणागेरूय फुलां म्हणटकच उमेद जाताली..

आदींच 'भुरगेपणार' अशें जाहीर केल्ल्यान कोणें आंग काडचें न्हय..!

'फुलां अमक्यालीं आनी हाकाशी उमेद कित्याक?' असोय प्रस्न तकलेंत हाडपी कितें उणें नात.. आसूं बाबडे.!

तर कोणागेरूय फुलां आसलीं काय म्हजी आवय वताली.

येतना लाडू, मोदक, नेवऱ्यो, जावं वेगवेगळ्या फळांच्या आकाराचें खाण घेवन ती येताली.

तीं खाणांय बी सदच्या मोदक, नेवऱ्यां परस आकारान व्हडलीं आसतालीं!

आनी तीं वेगवेगळ्या रंगान रंगयल्लीं आसतालीं.

पळोवंक बरीं दिसतालीं, पूण खातना तिडक मारताली.

खाणां वांगडा तो रंगयल्लो कुडको तोंडांत वतकच तोंड कोडू कोडू जातालें

मागीर 'थू थू' करीत रंग ना तें खाण खातालों. कोडसाण वताली..

ह्या खाणाक लागुनूच परत परत लोकांगेर फुलां आसचीं अशें म्हाका दिसतालें त्या काळार.

हें सगळें मनांतूच दिसतालें, तेन्ना कोणाक हांवें तशें म्हणूंक ना.

म्हणिल्लें जाल्यार कितें जावपाचें तें आतां कळून थरथरो भरता.

भुरगेपण सरलें आनी परतून एक फावट फुलांत घुस्पलों.

शी! शी! परत तशें कांय येवजूं नाकात. तितले मेरेन हांव पावलों ना.

पूण फुलांची गरज पडली ती नाटकाक लागून..

'केलां तुका, जालां म्हाका' हें विनोदी नाटक बरोवंक बशिल्लों.

तातूंत गुरवारीणीक फुलां माळपाचो एक देखाव आसता.

आतां म्हाका काय हे गजालीचो अणभव ना... आनी अणभव वा अभ्यास नासतना नाटक बरोवंक हांव काय सुप्रसिद्ध नाटककार न्हय..!

हो विशयूच कुम्पलीकाद जाल्ल्यान कोणा कडेनूय वचून विचारपूय म्हाका कशेंशेंच दिसूंक लागलें.

तेन्ना एकूच मार्ग उरलो तो जयंती नायका कडल्यान समजून घेवपाचो प्लीज, हांगांय आंग काडपाची गरज ना.

जयंतीन लोकवेदाचेर संशोधन केलां आनी ताका डॉक्टरेटूय मेळ्ळ्या.

जांणी फुलां माळपाचो अणभव घेतला तांचे कडल्यान मेळिल्ली म्हायती अधिकृत आसतलीच हाचेर म्हजो विश्वास ना. पूण ही संशोधिका जें कितें सांगतली तें अधिकृत आसतलें हाचेर म्हजो विश्वास.

जयंतीक वचून मेळ्ळों आनी हाचेर म्हायती विचारली तेन्ना जयंती तिरसुवादीक हांसलें.

हांसतूच विचारलें, "दिलीप, कोणाक माळटा रे...?" आनी मागीर आपुणूच म्हणूंक लागलें, "रागार बी जावशी हां... फकाणांनी म्हणलें...!"

म्हणूंक म्हणून वतात आनी मागीर भिताय बी रोखडीं..

हांवेंय म्हणलें, "आसूं गो आसूं..." आनी म्हजी गरज सांगली.

तशें तें येवजूंक पडलें आनी विचारूंक लागलें, "खंयच्या म्हयन्याचीं जाय तुका..?"

हें आनी म्हाका नवेंच आशिल्लें. ताणें सांगलें, "पांचव्या म्हयन्याचीं आसतात, सातव्या म्हयन्याचीं आसतात आनी णवव्या म्हयन्यांचींय आसतात!"

आतां हांव ताका कपल सांगतलों...? खाण खावपाचे लगाडींत ताचेर लक्ष गेलें ना. गेल्लें जाल्यार विचारूं येतालें आवयक, "आई, ही नेवरी खातां ती कितल्याव्या म्हयन्याची गे?" संशोधनाचें म्हत्व म्हाका पयलेच खेप कळ्ळें आनी जयंतीविशीचो आदर आनीकूय वाडलो..ताचो गायड आसूं मागीर तो एक्साचो ऑलवीन..!

हांवें म्हयनो सांगून म्हजें अज्ञान दाखयलें ना. तिनूय फुलां समजून घेतलीं.

आतां त्या प्रसंगाक फावता तशीं खंयचीं फुलां माळपाचें हें म्हजें अजून थारूंक नाशिल्ल्यान नाटक अजून तेच स्टेजीर आसा. माचयेर येवंक पुराय जावंक पावलें ना... आसूं ती खबर !

आतां कितल्याच वर्सांनी परत हो फुलांचो विशय आयलो आनी नाटक बरोवपाचें उरलां हाची याद जाली... ताचें जालें अशें... हांव विंदा करंदीकरांच्यो कविता वाचतालों...

हय, तो म्हजो मित्र म्हणटकच (हांगांय आंग काडूं नाकात) हांव अदीं मदीं तांच्यो कविता वाचतां...

तुमकां याद आसा काय ना तें म्हाका खबर ना.

म्हज्या 'वर्गशत्रू' ह्या नाटकाचेर १९८० च्या काळांत शशिकला काकोडकारांच्या सरकारान बंदी घाल्ली. हांव कोर्टांत गेलों. ती केस आपूण जावन फुकट लडपाक जोशीकाका मुखार आयलो. तो सिनियर लॉयर आनी दिनेश जोशी ह्या म्हज्या मित्राचो बापूय. ताचो मित्र विंदा करंदीकर. तो तांगेर येवन रावतालो. जोशीकाका आनी विंदाकाका सामके एक सारके दिसताले. जुळवे भाव कशे! दोगूय खड्डे. दोगांयच्या कानांक केंस, दोगांयचेंय हांसप एक. तेन्ना विंदाकाकाचें मिनेझिस

ब्रागांझांत काव्य वाचन दवरिलें. तांचे एके कवितेक ताळयेर ताळयो पडल्यो आनी तांकां 'आनको यो' लेगीत म्हणलें. तांणी तीच कविता आनीक दोनदां म्हणली.

'त्यानी पदर ओढला, म्हणून तिने पातळ सोडले,
खरा प्रकार एवढाच झाला.'

म्हाका अजून पाठ आसा ती कविता. मागीर विंदाकाकाक ज्ञानपीठ मेळ्ळो. तसो तो म्हाका पयस जालो. मागीर कांय काळान सामकोच पयस जालो. रवीन्द्रबाबांक तर पयस वता वता म्हणल्यार तो मेळ्ळो. देखून हांव ताका लागीं उरलों. भालचंद्र नेमाडेंक मेळ्ळो तेन्ना तो म्हाका पयस जालो ना. पुलिसांनी ताका पयस दवरलो... हरशीं नेमाडे म्हजो बरो फ्रेंड. आमी दर सांजे पणजे चर्च चौकांत बांकार बसून गजाली मारताले. आतां हें सांगचें पडटा... ज्ञानपीठ मेळ्ळां म्हणटकच...

पळय अशेंच जाता... ज्ञानपीठाचो म्हयमाच तो... आसूं. हांव किते सांगतालों तर पदराची खबर! ताणें पदर ओडलो, देखून तिणें पातळ सोडलें. मराठी कविता वाचतना म्हजे तकलेंत आपसूक अणकार जाता. गुगलाचेर वचपाची गरज पडना. तितल्यांत खबर आयली, 'कोणे एका अध्यक्षान भर सभेंत बायलेक फुलां माळ्ळीं.' महाभारतांतले एके बायलेचो भर सभेंत पदर ओडिल्लो, साडी ओडिल्ली तेन्ना बोवाळ जावंक ना तितलो बोवाळ ह्या फुलां माळपान जाल्लो.

हांवें हे आदीं कितल्याच अध्यक्षांलीं कितलींच कर्तुबां पळयल्यांत. म्हाका ते विशीं केन्नाच कांय दिसलें ना. कित्याक नामदेवान आपले एके गवळणींत बरयलांच, 'गवळणी ठकविल्या, एकेक करुनी गवळणी ठकविल्या' म्हूण. आतां ह्या आमच्या अध्यक्षांनी 'ठकविल्या' चो अर्थ वेगळो घेतला आसूं येता. तांचे मुखार हीं फुलां माळपाची घडणूक म्हणल्यार सामकीं फुलां कशीं! बरें ह्या अध्यक्षान आदल्या अध्यक्षांवरीं केलां? ना. फुलां माळ्ळीं खरीं पूण आपल्याचेच बायलेक माळ्ळीं! अशें आसतनाय इतलो बोवाळ? एक्साचे सुटल्यात काय कितें?

आतां म्हजी लायट पेटली, हालींच्या काळार कार्यावळींत फुलां दिवपाची प्रथा बंद करून फळां कित्याक दिवपाक लागले तें! पूण हांकां खबर ना आमचे अध्यक्ष फळांय माळपाक फाटीं रावपाचे नात हें..आतां ताणीं फळां दितना पणस, काळींग असलीं दिवपाचीं. आसा कापाजदाद खंयच्या अध्यक्षाक आपले बायलेक फळां माळपाची? तींय बी भर माटवांत?

सांगू नज, एक्साचे माळीतूय बीन!

संपर्कः 9822136885

***

# फुलय शिगमो फुलय!

नयना आडारकार

सकाळसावन पणजेंत घणचेऽऽ कटरऽऽऽ घणऽऽ घणऽऽ आवाज घुमतालो. सांजेर शिगम्याची मिरवणूक पळोवपाक लोकांनी खेट केल्ली. बस येरादारीय वेगळे वटेन वळयिल्ल्यान म्हजे सारकेल्यांची धांदल जाल्ली. हावाशिवा करून बस मेळपाचे सुवातेर गेलें. अर्दवर मायज 'ये गे बशी... ये गे बशी' करीत उबें उरलें. कानांत घणचे कटर घणची घणघण आनी उबें रावून पांयाक मारिल्ली सणसण सोंसू नजं जाली. एकदांची बस आयली. तिची आवतिकाय पळयल्यार 'फुलय फुलय शिगमो फुलय' तिणें चडूच मनार घेतिल्लें जाणवलें. दार भरून लोक ओत्ता, मागीर भितर सरप कशें? अचकीत 'मुसंडी मारून' हें उतर याद जालें आनी हांवें तें प्रत्यक्षांतूय हाडलें. भितर घुसलें खरें पूण भितर गोडाचे धेंपेक दोमळे दशिल्लेवरी सगले लोक एकामेकाक दशिल्ले कशे दिसताले. कॅबिनूय हावजफुल्ल. पूण म्हजे शिटूक नदरेन ड्रायव्हर ब्रेक मारता थंयची पत्राची सुवात हेरली आनी कोणेंय ती ताब्यांत घेवचे आदीं हांवें तिचेर घालून घेतलें. म्हाका सीट मेळ्ळे ह्या नेटान हेरांचेर हांवें तुच्छतायेन नदर भोंवडायली.

सूऽऽ जावन कांय खीण वता म्हणसर 'छु लेने दो नाजूक...' म्हणीत कोणेंतरी चुमिल्ले भशेन सुखद हुनसाण जाणवली. अशेच कांय खीण गेले आनी पद बदल्लें. 'बेब्बी की बेज पसंद है' म्हणत हुनसाण खरसाणेंत बदलपाक लागली. हांवें बशिल्ल्या सिटार नदर मारली. तें बशीचें इंजीन म्हणपाचें म्हज्या लक्षांत आयलें. 'सोसवत नाही सांगवत नाही' म्हणटा म्हणटा इंजीन पुष्पाराजाचे भुमिकेंत आयलें. फूल नही, फायर हूँ मैं फायर हाची प्रचिती म्हाका येवपाक लागली.

'ठेविले अनंते तैसेची रहावे' म्हणून स्थितप्रज्ञावरी रावपाचो खूब येत्न केलो. पूण धगसाण वाडटा तसो तसो मुखामळार 'भाव' शिगमो रंग उधळपाक लागलो. धा मिनटांची वाट आयज वोल्तां मारून भितरल्यान वळयिल्ल्यान पयस जाल्ली. सोंसणुकेचो अंत जाल्ल्यान हांवें आतां बशिल्ले कडेन 'तळ्यांत- मळ्यांत' खेळ खेळपाचें थारायलें. एका××चेर बसून तळ्यांत, मागीर दुसऱ्या××चेर मळ्यांत अशें करीत थाकाय दितालें इतल्यांत एका स्टॉपाचेर बस थारली. देंवलो कोण ना पूण आशिल्ले गर्दैत सकयल्यान कोणेंतरी एका सान भुरग्याक भितर लोटलें. कोणेंतरी ताका धरलें आनी बद्द म्हजे मांडयेर थापलें. म्हजो तळ्यांत-मळ्यांत खेळ झुप्प करून बंद जालो तो जालोच, उलाला उलाला, तू है मेरी फॅन्टसी म्हणपाक इंजीन मेकळें जालें. इंजिनाचे फॅन्टसीक छुना ना छुना ना... म्हणपाचें बळगेंय म्हाका उरलें ना.

अनवळखी मांडयेर बशिल्ल्यान तो भुरगो किंळाट्यो मारून रडपाक लागलो. त्या भुरग्यांच्या किंळाट्यांनी म्हाकाय मुक्तपणान म्हज्या चेऱ्यार सोंसूंक जायना ते भाव दाखोवपाची मेकळीक मेळ्ळी तितलोच सुसेग.

बस निमण्या पेण्यार पावली. सगलीं सकयल देंवलीं तशें म्हजी 'फेर्राद' बेज घेवन हांव घरचे वाटेक लागलें.

संपर्कः 8767657635

***

# ‘सावय गंधर्व’ (वेरें)



**अरुण सुखठणकार**

आमचो इश्ट कुस्कुट कवी धाकू हाज्या मतान आमची पिळगी आतां जाणटी जाल्या तेन्ना तांतुंतल्या वेंचिक लोकांचेर एक पुस्तक काडचें. पुस्तकाचें नांव ताणें ‘पिकिल्लीं पानां’ अशें दवरलां. पानां पिकिल्लीं आसलीं तरी तांचे देंठ बरेच पांचवे आसात हें मागीर लक्षांत आयलें. दुसरें पुस्तक जें जाण्टें जांवना पूण त्या वाटेर आसात तांचेर त्या पुस्तकाचें नांव आसा ‘ल्हान जाले म्हान’

पुस्तक बरोवंचे पयलीं ह्या म्हालगड्यांची भेट घेवंची अशें थारायलें. खंयच्यान सुरवात करची तें थारना जालें. निमणें अंत्रुज म्हाल पयलो घेवचो अशें थारायलें. हाका दोन कारणां आशिल्लीं. एक म्हळ्यार चडशे कोंकणी लेखक, कवी ह्या म्हालांत रावतात. चडशे पुरस्कार ह्याच म्हालाक मेळटात, ते वांटपाक मंत्री जाय म्हणून ह्या खेपेक अंत्रुजाक मंत्रीय चड दिल्यात. तांतल्या तातूंन पुरस्काराखातीर सुपीक वाठार म्हळ्यार चौकट नगरी. ह्या नगरींत चार गावां येतात. वेरें, सावय, वळवय आनी बेतकी. पांच, धा वरसांनी पद्म पुरस्कार, तीसालाक साहित्य अकादमी पुरस्कार, पयशे आसल्यार कोंकणी पुरस्कार तशेंच वाड्यावाड्यार जावपी सत्कार हाका लागून ह्या गांवांनी तोपयो आनी शाली चड खपतात अशें जाणकारांचे मत आसा. आपल्याक मेळिल्ली शाल आनी तोपी दुसऱ्याक घालपाची रीत हांगा चलता.

अंत्रुज हो वाठार देवान म्हळ्यार श्री अनंतान स्वतःच्या हातांनी घडयला अशें कोणेंतरी मराठींत बरयलां. ज्या अर्थी तें मराठींतल्यान बरयलां त्या अर्थी ते खरें आसूं जाय अशें धरपाक आमकां हरकत ना.

वतां वतां सांगपाची गजाल म्हळ्यार दुसऱ्या म्हा-झुजांत हिटलराचो उजवो हात गोबेल्स हांणे एक नीती आपणायल्ली. ती म्हळ्यार एक फट गजाल, धा खेपेक सांगात, लोकांक ती खरी दिसतली. कुकुस्ट कवी धाकूच्या मतान हें तंत्र गोंयांत उपकारना. हांगा एक फट गजाल एकदांच मराठींत सांगात, लोकांक तरी खरी दिसतली. धाकूचें मत सामकेंच चुकीचें आसा अशें म्हणूं नज.

देव जांव सत्तेर आशिल्ले लोक आपल्याक रावपाक बरो जागो सोदून काडटात. चड करुन दोंगरार ना जाल्यार उदकाक लागीं. श्री अनंत हाका आडवाद ना. ताणे अंत्रुजांतलो एक बरो जागो आपल्याक रावपाक सोदलो. उदकाक लागीं न्हय तर उदकाचेरच. तो वाठार म्हळ्यार वेरें. उरिल्ल्या तीन गांवात ताणे आपल्या वांगडा हाडिल्ले पक्ष, गंधर्व, किन्नर बी लोकांक वाटून दिल्यात अशें आसूंक जाय. आयज लेगीत ह्या गांवानी भोंवतना हाची गवाय मेळटा. पिशवी घेवन बाजारांत नुस्तें हाडूंक गेल्यार, एक वेळ तुमकां नुस्तें मेळचेंना पुण वाटेर एक लेखक, दोन कवी, तीन नाटकी, गावपी, वादंक, चित्रीक अशे जायते यक्ष आनी गंधर्व मेळटले.

राजा भोजाच्या तेंपार खंय राज्यांतले सगळे लोक संस्कृत आनी कवितेंत उलयताले. ह्या वाठारांत तोच प्रकार आसा. वेऱ्यां पारकाराच्या तेला घाण्यार खोबरें सारकें सुकय नासतना व्हरत जाल्यार तुमकां ते खोबरें ओलें आसा अशें सांगून दुखोवंचे नात. खोबरें चाळटा, चाळटा “प्रयत्ले ओले खोबरें रगडतां तेलही ना गळे” अशें कवितेंत सांगतले.

ह्या वाठारांतल्या कांय फामाद लोकांक मेळचें अशें आमी (म्हळ्यार हांव आनी कुस्कुट कवी धाकू) थारायलें. धाकू आनी वळवयचो सबंद पोन्नो. सुमार तीनशें वर्सां पयलीं धाकूचे पूर्वज ह्या गांवांत रावताले खंय. ताका लागून धाकूक हो वाठार चड लागींचो.

वेरें, सावय, वळवय, बेतकी ह्या चौकट नगरीच्या सुरवातीक लागता तो गांव बेतकी. ह्या चौकट नगरींतल्या सांस्कृतीक आनी साहित्यिक घडामोडीचेर नदर दवरपी वाठारदेव भिकू भाऊचो गांव. सद्याक वाठार देव वाठार सोडून भायर रावता तरी थंयच्यान ह्या वाठाराचेर तांची नदर आसता. धाकू तांका अपुर्बायेन ‘बेतकी बहाद्दर’ अशें म्हणटा.

तांका जेन्ना आमी कित्याक आयल्यात तें सांगलें तेन्ना ते गंभीर जाले. ताणी सांगले, “तीस वर्सांत गोंय सामके मुदार जालां. लोक हळवे जाल्यात. तांच्यो भावना रोखड्योच दूखावतात. कोण कोणाचें आयकुपाच्या स्थितींत ना. तेन्ना तुमी घरा वचात. थंड बसात.” “हाचेर कांय उपाय ना? - धाकू. ते थोडो वेळ दोळे धांपून बसले. मागीर ताणी सांगले की, “एक उपाय आसा तुमी संजय पद्धतीन मुलाखती घेयात.” “ही कसली पद्दत”? हांव

“महाभारतात संजय म्हणून एक पात्र आसा. संजय कुरुक्षेत्रार केन्नाच गेलो ना पूण थंयच्यो घडामोडी तो धृतराष्ट्राक सांगतालो. तुमीय तशेंच करात. फकत कोणाची नांवा घेवंक नाकात.” “कोणाचेर बरयलां हें कशें कळटलें?” - हांव. “चाक फिरवतो गरागरा मडकी करतो भराभरा तो कोण?” भिकूभाऊ. “कुंभार” हांव आनी धाकू दोगीजण आड्डले.” “तुमी फकत लक्षणां सांगात, वाचपी रोखडीच सोदून काडटले” - भिकूभाऊ. ही आयडीया आमका आवडली. ‘बेतकी बहाद्दर’ हें नांव तांका सोबता. तांचो निरोप घेवन आमी भायर सल्ले.

आतां आमी मेळपाचे आसात ते एक रसिक कलाकार (धाकू रुचिक कलाकार म्हणटा.) पयल्या दर्जाचे कवी आनी लेखक. बऱ्यापैकी साहित्य आनी संगीताचे समिक्षक. संगीताचें शिक्षण ताणी गुरुकुल पद्दतीन घेतलां. वाद्य संगीतात पेटयेचेर बरो हात. ताणी म्हान गजल गायकाक पेटयेचेर साथ केल्या. हालींच जाल्ल्या संगीत संशोधनांतल्यान हें उगतें जालां. समीक्षण तांचे इतले बरें कोण करुंक शकना. विशयांत खोल वचप, अभ्यास करप आनी मागीर बरवप हे तांचे खाशेलेपण. अभिनयाचे आंग आसा. ‘खण खण माती’ ह्या नाटकांतलो “हांव कासादोर कास्ताचो म्हणपी” तांचो भाटकार कोण विसरत? चौसश्ट कलांतल्यो कितल्योशोच कला तांचेकडेन आसात. हाचोच अर्थ सरस्वतीचो हात तांच्या माथ्यार आसा. लक्ष्मी तर चोवीसय वरां घरांत.

हो मनीस अजातशत्रू. दुस्मान कोण ना. कोंकणी साहित्यीक वाठारांत असो मनीस आसा हाजेर कोण विश्वास दवरचोना! दोन राग गांवक येतकच नांवा पयलीं पंडीत लायतात. हाका गांवच्या लोकांनीच 'सावय गंधर्व' ही पदवी दिल्या. सगळ्यांत निमणे पुण म्हत्वाचें म्हळ्यार ते एक बरे आदवोगाद आसात. हें निमणे सांगपाचे कारण म्हळ्यार हें पयलींच सांगिल्लें जाल्यार फुडें कोण वाचचो नाशिल्लो.

पुर्तुगेजींत आदवोगादाक दोतोर म्हणपाची चाल आशिल्ली. आमी तांका मेळूंक गेले तो दीस आयतार आशिल्लो. आमी घरालागीं पावले तेन्ना भितल्ल्यान गायनाचे स्वर कानार पडले. पूण किदेंतरी चुकिल्लेवरी दिसूंक लागले, सुर वळखीचो पूण उतरां इंग्लीश कशीं दिसलीं.

आमकां पळेना फुडें ताणी गावपाचे थांबयलें. हांगाच्यो थंयच्यो गजाली जातकच हांवे विचारलें.

''दोतोर आतांच तुमी गाताले तें किदें?''

''तो राग केदार आशिल्लो'' दोतोर

''पूण उतरां अनवळखी कशीं दिसलीं'' हांव.

''सांगतां'' - दोतोर.

ताणीं सांगलें तें अशें. कोरोनाच्या तेंपार सगळे घराच आशिल्ले. तेन्ना यू ट्यूबाचेर तांका एक गुरु मेळ्ळे. गुरुचें मत अशें आशिल्लें की शास्त्रीय संगीत गायतना तांतूतली उतरां परदेशी लोकांक कळना, परदेशीच कित्याक देशी लोकांक लेगीत कळना. ताका लागून ते संगीताचो आनंद घेवंक शकना. ह्यो बंदीशी इंग्लीशींत रचल्यो. तांतुतल्यो दोन बंदीशी ताणी आमकां म्हणून दाखयल्यो. अर्थांत पेटी स्वतः वाजोवन. म्हाका संगीतांतले व्हडलेशें कांय कळना. धाकूक बऱ्यापैकीं कळटा.

पयलीं बंदीश राग पटदीपांतली

''कम हीअर व्ही आर मेड फॉर इच अदर
डोंट बीकम शाय अँड रीमूव्ह ऑल युवर फीअर
व्ही वील शेअर सॉरो अँड प्लेजर
कम क्लोजर अँड अंडरस्टँड इच अदर'

दुसरी रचना राग हमीराचेर आदारीत आशिल्ली.

''ओ नॉटी कृष्णा टेल मी हाउ
आय शालगो व्हेन माय इनलॉज हीअर
दे वील कीप मी आऊट ऑफ होम
व्हेन आय गो टू फेच द वॉटर
स्टॅंडींग देर माय डीअर
हॅवींग समथींग इन हीज माइंड
इज नॉट वॉट टू शेअर
स्नॅचेस अर्दन पॉट ऑफ माइन
वेस्टींग ऑल माय मिल्क अँड क्रीम
डुईंग मीश्चीफ आय एम हेल्प लेस
ओ कृष्णा...

ह्यो बंदीशी म्हणून जातकच तांणी दोळे धांपले आनी कानाक हात लावन गुरुचें स्मरण केलें. ताणीं सांगलें की ह्यो तांच्या गुरुंच्यो रचना. जांका संगीताची आवड आनी समज आसा ताणी ह्यो बंदीशी म्हणपाक हरकत ना. फकत शेजरा शिकपी भुरगीं आनी जाण्टे दुयेंती ना हाजी जनताय घेवंची.

इतल्यांत ताणी भितर पळोवन ''चैत्री चाय लाव'' अशें म्हळें. म्हाका दिसलें हीय बी एक बंदीश आसूंक जाय. मागीर कळ्ळें चैत्री ही तांगेर कामाक आशिल्ली बायल. तांगेर कामाक आशिल्ल्यांची नांवां अशींच संगीतात दवरल्यां. देखीक 'कजरी सान्न मार', 'आसावरी ओलीं सुकत घाल', 'भैरव माडांक आळीं काड', 'मल्हार झाडां शीप'. हाका लागून घरांतले वातावरण संगीतमय जाता अशें तांणी सांगलें.

च्या घेतां घेतां ताणी तांगेर घडिल्लो एक प्रसंग सांगलो. ताणी एक बिहारी जोडपें कामाक दवरिल्लें तांची नांवा बसंती आनी केदार अशीं दवरलीं. एक दीस बसंती भैरवाचो हात धरुन पळून गेली. केदाराचो विरह पळोवन तांचे कवी मन कळवळ्ळें. तेन्नाच्यान ताणी जोडराग कामाक दवरप बंद केलें.

हावें तांका विचाल्लें, ''दोतोर तुमी इंग्लीश बंदीशी गुरुकडल्यान शिकून घेतल्यो. हो प्रयोग तुमी कोंकणीत किद्याक करना? तुमी कोंकणीतले एक नामनेचे कवी. असो प्रयोग जाल्यार गोंयकारांक शास्त्रीय संगीताचीं गोडी लागूंक शकता.'' हाचेर दोतोरान सांगलें तसो तांचो प्रयत्न सुरु आसा.

ताणीं आमकां एक फामाद ठुमरी गावन दाखयली. जांका संगीताची आवड आसा. ताणी ही ठुमरी पं. कुमार गंधर्व ते आयचे सुमार गंधर्व हांचेकडल्यान आयकल्या आसतली. 'जमूना किनारे मोरा गांव' ही ती ठुमरी.

'मांडवी देगेर म्हजो गांव रे
सावय–वेरें ताचें नांव रे'

ठुमरी आयकतना म्हाका खूब बरें दिसलें, ठुमरी आमची कशी 'भितल्ली' दिसली. हरशीं ठुमरी, गजलबी 'भायल्यो' कशो दिसतात. ठुमरी बांदतना पयलीं 'रे'च्या जाग्यार 'गो' आशिल्ले. घरांतल्यान ह्या पिरायेचेर 'गो' सोबना अशें म्हणटकच ताणीं गो च्या जाग्यार 'रे' घालें. संगीताचे आनी कवितेचे आंग आशिल्ल्यान ते गंधार रीशभ घालप सोपें जालें अशें ताणी सांगलें.

गंधारा वयल्यान याद जाली. धाकून केन्ना तरी सांगिल्ले की गंधार हो स्वर लागपाक खूप कठीण. व्हडल्या व्हडल्या गायकांचो तो लागना. दोतोरागेर मात गंधार न्हिदला, गंधार उठला, गंधार पणजे गेला अशें आयकूंक मेळटा. गंधार इतलो मोबायल आसता काय? अजाप!

''दोतोर तुमी आदवोगाद मागीर संगीताकडे कशे पावले?'' हांव.

''हें पळयात, लोकांचो एक चुकीचो समज आसा. दोतोर, आदवोगाद, इजनेर हांका साहित्य, संगीत, कला असलें कांय कळना. कांय ठराविक लोकांकच ह्यो गजाली कळटात. दोतोरान पद गुणगुणपाक हरकत ना. फकत कानाक स्टेथोस्कोप आसतना पेशंटाक तपासतना, गुणगुणचें न्हय. दोतोराचो गुणगुणपाचो ठेको आनी पेशंटाच्या काळजाचो ठोको हांचो गोंदळ जावपाक शकता. इजनेरान घर बांदतना बंदीश बांदल्यार कितें घालतात? आदवोगादान फकत केस घेवंची, तान घेवंची न्हय

अशें खंय बरयलां?

"दोतोर तुमच्या रजांवाक बुराक ना. तुमी हौशी गावपी न्हय, संगीताचे शिक्षण तुमी घेतलां जशें कायद्याचें घेतलां. तर ह्या दोन गजालींचो मेळ तुमी कसो घालो?" धाकून दोतोराक विचारलें.

"संगीत आनी कायदो हांचो खूप लागींचो संबंद आसा. दोनी गजालींचे शिक्षण घेवपाची तरा पळयात. संगीत गुरुकुल पद्दतीन आमी घेतात थंय गुरु आसता आनी शिश्य आसतात. कायद्याच्या शिकपांत गुरुक सिनियर आनी शिश्यांक ज्युनियर म्हणटात इतलोच फरक. (हें आयकतच म्हज्या दोळ्यांमुखार काळ्या कोटांतले हातांत स्वरमंडळ घेतिल्ले सिनियर आनी तांच्या फाटल्यान तंबोरे घेवन कोर्टांत वचपी ज्युनियर अशें चित्र उबें रावलें.) संगीतांतले दुसरें खाशेलपण म्हळ्यार घराणें. देखीक जयपूर, किराणा, आग्रा. कायद्यात दोन मुखेल घराणीं म्हळ्यार दिवाणीं आनी फौजदारी ह्या दोनूय घराण्यांत नांव जोडिल्ले कितलेशेच लोक आसात." - दोतोर.

"ह्यो जाल्यो शिकपाच्यो पद्दती, आनीक सारकाय खंय आसा?" - धाकू.

दोतोर: सांगता. कायदो फकत कोर्टांत नासता, संगीतात लेगीत आसता अशें म्हणून ताणी तोंडान तबल्याचे बोल म्हळें. हाका तीन तालाचो कायदो म्हणटात. (हें म्हज्या तकले वयल्यान गेलें) दुसरी गजाल संगीतात वादी आनी संवादी सूर आसतात कोर्टात वादी आनी प्रतिवादी आसतात."

हांव: दोतोर केस चलवपाच्या आनी राग गावपाच्या पद्दतींत सारकाय आसा?

दोतोर: हय तर. राग दोन तरांनी गायतात. विलंबित आनी द्रुत, कोर्टात केसीय ह्या दोन स्पिडींनी चलतात. दोनां भितर विलंबित प्रकार आदवोगादांचो चड आवडीचो. तांतून कला दाखोवंक वाव आसता. जुगलबंदी प्रकार तुमी आयकला आसतलोच. संगीतात ही जुगलबंदी चडांत चड दोन वरां चलूंक शकता. कोर्टात ती दोन, तीन पिळग्यो चलूंक शकता.

सिंदाबाद हो भोंवडेवेल्यान येतकच आपल्या सांगात्याक भोवडेंतली अजापां सांगतालो. ती आयकतना सांगात्यांची जी स्थिती आसताली तीच आतां आमची जाल्ली.

दोतोर: कायद्याकडे तुमी कलेच्या नदरेन पळयशात जाल्यार तुमकां फकत कलमाच न्हय तर सौंदर्य थळांय दिश्टी पडटलीं. कोर्टात केस चलतना आयकात. मंद्र,मध्य आनी तार ह्या तिन्ही सप्तकांचो प्रयोग तुमकां पळोवंक मेळटलो. अदालत ह्या उतरांत किदें आसा? अशें तुमकां दिसतलें. नदर बदला, तुमकां तातून लखनवी ठुमरींतली अदा दिसतली. संगीतात दाद आसता तशीच ती कोर्टात आसता. संगीतांत ती दिवंची पडटा कोर्टात ती मागची पडटा. इतलोच फरक (निमणें ताणी संगीतातले पट्टे विशीं सांगलें) संगीतांत आवाजाक पट्टी आसता. ती धवी आनी काळी अशी दोन रंगात आसता. आदवोगादाच्या गळ्यांत लेगीत धवी पट्टी आसता फकत ती गळ्यांत न्हय तर गळ्याभोंवतणी बांदिल्ली आसता."

वतां वतां, सांगपाची गजाल म्हळ्यार ही चर्चा करतना ताणी खंयच आपूण बुदवंत. सगळे किदें तें आपूणच जाणा असो आव हाडूं नाशिल्लो 'विद्या विनयेन शोभते' हें तांकां पळेतकच कळ्ळें. निमणें खंयचो गायक आवडटा?" दोतोरान दीदीचे नांव घेतलें. म्हाका अदमास आशिल्लो ते दीदीचे सामके भक्त इतले की 'नवरंग' सिनेमांतलीं ताईन गायिल्ली पदां ताणी एका लेखांत दीदीच्या नांवार घाल्लीं. मोगांत आनी संगीतात अशो चुको माफ आसतात.

दोतोर गोंयकार, आमीय गोंयकार तेन्ना तांकां तांच्या आवडीचें नुस्तें खंयचें अशें धाकून विचारलें.

"करबट" दोतोराची जाप

आता दनपारची बारा जाल्लीं. आमी तांचो निरोप घेतलो. आमका पावपाक ते गेटी मेरेन आयले. थोडे फुडें पावतकच धाकून म्हाका विचाल्लें "दोन पोत्रे सदरे घालपाक मागूंया रे?"

हांव: कित्याक?

धाकू: इतलो सुखी आनी बुदवंत मनीस आमकां आनी खंय मेळटलो?

संपर्क: 9552357484

***

*(पान ८ वयल्यान)*

चलयता. केदी शिस्त ही! गावणेकाराक वेलिंगकाराची तोखणाय दिसता. वेलिंगकार भुरग्यांक शिकयता.

समुद्रवसने देवि पर्वतस्तनमंडले

विष्णुपत्नि नमस्तुभ्यम् पादस्पर्शम् क्षमस्वे ते

दर्या जिचें न्हेसण आनी दोंगर जिचें स्तन अशे हे आमचे पवित्र धतरि, तुजेर पांय दवरून (तुका माड्डून) चलचें पडटा म्हणून तूं आमकां आमचो गुन्यांव भोगोस कर गे बाये.

गावणेकाराक ताच्या प्रस्नाची जाप मेळटा. भुंयेचो आमी अपमान केलो म्हणून भुंयकांप जालो. महात्मा गांधीन अशेंच कितें तरी म्हणिल्लें - जे मेरेन ह्या देशांत अस्पृश्यताय आसतली ते मेरेन देशांत अशेच भिरांकूळ भुंयकांप जातले.

गोंयच्या सायबाक होरायात. गोंयच्या सायबाक होरायात - गावणेकार आड्डलो. गोंयचो सायब? खंयचो गोंयचो सायब? भगवान परशुराम? काय तथाकथीत (वेलिंगकारालें उतर) संत फ्रान्सिस झेव्हियर? गोंयचो सायब कोण? ह्यो पडिल्ल्यो बिल्डिंगो परत उबारूंक जाय. हें काम फकत बिल्डरच करूंक शकतात. बिल्डरच आयज गोंयचे सायब जाल्यात."

सकाळ जायत आयली. गावणेकार उठलो. ताच्या आंगाक दरदरून घाम सुटिल्लो. ताणें जनेलांतल्यान भायर पळयलें. सगल्यो बिल्डिंगो सारक्यो आसात. गावणेकारान भितर पळयलें. आपलो फ्लॅटय वेवस्थीत आसा. गावणेकारान हेराल्ड उगडलो. हालीं तो हेराल्डच घेता. गावणेकाराक सू जालें. हेराल्डांतूय भुंयकांपाची खबर नाशिल्ली. गावणेकारान कागद घेतलो. पेन घेतलें. सोसायटीच्या चॅरमनशिपीचो राजिनामो बरयलो. सोसायटीच्या चॅरमनान आपलो राजिनामो कोणाक दिवपाचो? गावणेकारान सोसायटीचो चॅरमन म्हणून दिल्लो राजिनामो, सोसायटीचो चॅरमन म्हणून आपणेंच घेवन मान्य केलो.

संपर्क: 98221092416

***



# दोन फुलांचो काळ!

अरुण जयराम कामत

"आरे, तुम्ही सगळे अशे घामाघूम कित्याक जाल्यात? इतले आबूज जाल्ले कित्याक दिसतात?" सुहास आनी ताचे आमीग हॉटेलाच्या गार्डनांत पावनाफुडें सुवर्णान ताका प्रस्न केलो. "कांय ना गो. पासयेक गेल्याकडेन चलतां चलतां खूप फुडें पावले. म्हणून इतलो घाम आयला. तातूंत ही अशी गरमी." सुवर्णाच्या नदरेक नदर मेळयनासतना सुहासान ताका सांगले. "तिनसांजच्या वेळार ह्या जंगलान कित्याक इतले फुडें गेले तर." तें पुटपुटले आनी गेलें. सुहास आनी ताचे मित्र मिलिंद, रुपेश आनी सतीश वचून रेस्टोरंटाच्या कदेलांचेर बसले. दर्यादिगेक एका ल्हानशा टेकडेर आशिल्ल्या त्या रेस्टोरंटातल्यान अस्तंगत वचपी सूर्य दिसतालो. कांय खिणांभितरच सुर्य अस्ताक गेलो आनी सरभोंवतणचो सगळो वाठार काळखांत बुडून गेलो.

ह्या वर्साच्या एक एप्रिलाक सुहास आनी सुवर्णाच्या लग्नाक पंचवीस वर्सां पुराय जातालीं. त्या निमतान सुहासान आपल्या मित्राक तेरेखोल गावांतल्या एका रिसोर्टांत ओव्हर नाईट पार्टी आनी गेट टू – गेदर दवरिल्लो. सुहास आनी ताची फामिल मिलिंद, रुपेश, सतीश आनी तांची फामिल असो हो बेत आशिल्लो. एका म्हयन्या पयलीं सुहासान आपलो हो बेत सांगतगीर सतीशान हो रिसोर्ट सोदून काडिल्लो आनी आयज ते सगळे हांगा पावले. फाटलीं दोन वर्सां कोविडाक लागून घरा आशिल्ल्या सगळ्या बायलां, भुरग्यांकूय हो 'मच नीडेड' असो ब्रेक मेळ्ळो ताका लागून सगळींच जाणा उमेदीन आशिल्लीं.



एकतीस मार्चाच्या दनपरां दोनांक हीं सगळीं जाणां आपापल्या गाडयेन परवरेच्यान भायर सरलीं आनी देडेक वरांन, साडेतीन पावणेचार मेरेन तेरेखोल 'सनसेट' रिसोर्टांत पावलीं. गोंयांत येवपी टुरिस्टांच्या गर्दें तल्यान पयस, राज्यांल्या एका तोंकार आशिल्लें हें 'सनसेट' रिसोर्ट पांय दवरना फुडें सगळ्यांक आवडलें. तेरेखोल न्हंय ज्या जाग्यार अरबी समुद्राक मेळटा थंय आशिल्लें हें रिसोर्ट सगळ्यांक आवडपासारखेंच आशिल्लें.

रिसोर्टांत पावतगीर चेक इन करुन, फ्रेश जावन साडेचारांक हॉटेलाच्या रेस्टोरंटात च्या घेवपाक मेळपाचें थारायलें. च्या घेवन जातगेर भुरगीं आनी बायलां स्विमींग पुलांत देंवलीं. गरमीच अशी आशिल्ली कीं जितलो वेळ उदकांत रावतात तितलो कमीच दिसतालें. "आमी सगळे फेरीबोट धक्क्यार पासय मारुन येता," रिसोर्टांतल्यान दिसपी तेरेखोल - केरी फेरीबोट धक्को पळोवन मिलिंदान ताज्या बायलेक सांगले आनी ते चौगूय जाण चलत पासय घेवपाक रिसोर्टातल्यान भायर सरले.

एक वर पासय घेवून मिलिंद, सुहास, सतीश आनी रुपेश हॉटेलांत भीतर सरले, आनी थंयच गार्डनांत सुवर्णान तांका अशें काचाबूल जाल्ले पळयले. ते चौगूय जाण रेस्टोरंटाच्या कदेलार बसता म्हणसर, तांच्या अवस्थेची बातमी तांच्या घरकान्नीमेरेन सुवर्णान पावयली आनी तीं सगळीं रेस्टोरंटान जमा जालीं.

"आरे, मिलिंद किदें जालें तुमचें, तुमचीं तोंडां अशी धवीं कशीं पडल्यांत?" मीरान आपल्या घोवाक प्रस्न केलो. वेटरान टेबलार हाडून दवरिल्लें उदक घटाघटा पिवन सोंपयलें आनी मिलिंदान म्हळें, "आगो, कांयच ना. गरमेक लागून अशें जालां." "कांय ना, कांय ना किदें, तुमकां पळेल्यारुच कळटा तुमचें किदें तरी जालां. तुमी खंय गेल्ले, किदें जालां, ते सांगात." कांय वेळ ते सगळेच वग्गी रावले.

"बरें हांव सांगता किदें जालें तें." कांय वेळान सतीशान तोंड उगडले, सगळीं बायलां आनी भुरग्यां सतीश किदें सांगता तें आयकुपाखातीर ताच्या तोंडाकडे पळोवपाक लागलीं. "आमी किदें सांगतात ताचेर तुमचो विश्वास बसचोना. पूण आमी किदें पळयलां तें तुमकां सांगता." "आरे आतां वेळ काडूं नाका, किदें तें बेगीन सांग." तो वेळ काडता तें पळोवन मीरा तापलें.

"आमी रिसोर्टांतल्यान धक्क्यार वचपाक भायर सरले. धक्को हांगाच्यान एका किलोमिटराचेर आसतलो. गेटींतल्यान कांय फुडे वतगीर हे थंय एक ल्हान घुमटी आसा. थंय पावतगेर आमी देंवचारांच्यो गजाली करपाक लागले. इतल्यान रुपेश म्हणपाक लागलो कीं देंवचार बी कांयच नासता. सगळें फट तें. हांगा गोंयांत आनी कोकणांतूच हे देंवचार मानतात. भायर खंयच असलें ना. इतलें म्हणून कांय पावलां आमी फुडें घालतां थंय आसा, थंय रस्त्यादेगेक आशिल्ल्या किंदळीच्या झाडाची एक फांदी मोडून अचकीत आमच्या मुखार पडली. आनीक दोन पावलां फुडें घाल्यार ती रुपेशाच्या तकलेर पडटली आशिल्ली. देंवचारान आपली ताकद तुका दाखयली अशें हांव रुपेशाक सांगता जाल्यार तो परत आमची फकाणां मारुंक लागलो. तो म्हणटा, कावळो बसपाक फांदी मोडलीं, तसल्यो ह्यो गजाली. देंवचार

बी कांयच ना अशें ताचें म्हणणें.''

कांय वेळ थांबून सतीशान उदकाचो एक घोंट मारलो. सगळ्या आयकुप्यांच्या तोंडार तांचेर आतां भंय पातळिल्लो दिसतालो. ताणे रुपेशाकडेन नदर मारली. ''राव फुडें किदें जालें तें हांव सांगता, सतीश.'' रुपेशान म्हळें आनी ताणे फुडें सांगपाक सुरुवात केली.

आतां रात बरीच जाल्ली. वातावरणांत कांय थंडीय लागताली. भुरगीं आवयांक चिकटून बशिल्लीं. ''हांव सदांच हाका सांगता, देव, देंवचारांकडे फकाणां करुं नाका म्हणून. हो आयकता?'' रुपेशाच्या बायलेन तिडकीन म्हळें, ''आगो, आतां पुरो.'' रुपेशान म्हळें, ''फुडें किदें जालें ते आयक. फांदी मोडली तरी देंवचार बी हे सगळीं फकाणां म्हणून हांव आनी आमी सगळे फुडे सरले. सतीश, सुहास, मिलिंद आमी सगळेच बरोबर आशिल्ले. त्या वाटेर सगळेंच दाट जंगल. फुडें एक बंद आंतीक घर आशिल्लें. त्या जंगलान तें घर पळोवन आमकां अजाप जाले. त्या घराच्या फाटसून दर्या आनी तेरेखोल न्हंयचो वाठार बेस बरो दिसतालो म्हणून आमी बंद घराची गेट उघडली. हें त्या देंवचाराचें घर आसतलें, अशें हांवे फकाणांनीच हांका सगळ्यांक म्हळें. इतलें म्हणटा थंय आसा, वारें बी कांयच ना तरी एक उक्ते जनेल बंद जालें आनी त्या जनेलाचो हारसो फुटून कुडके म्हज्या पांयार पडले. हांवें बुट घाल्ले म्हणून बरे ना जाल्यार कंवची पायांक लागपाची. थंय जाग्याचो कोण तरी आसा हाचो हो दुसरो अणभव आमकां आयलो आनी आमी चौगूय जाणानीं थंयच्यान धांव मारली आनी रिसोर्टान परत आयले. म्हणून आमी घामाघूम आनी आबूज जाल्ले.'' रुपेशान सगळी काणी सांगली आनी सगळीं जाणां कितलेशेच वेळ वग्गी रावलीं. ''आती तरी अक्कल आयली मरे तुका?'' रुपेशाच्या बायलेन सगळ्यांमुखार घोवाक विचारलें.

आतां सगळी जाणां आपल्याक वा पयलीं घरांतल्या जाण्ट्यांक आयिल्लो देंवचाराचो अणभव सांगपाक लागले. इतल्यान लायट गेली. पयलींच सगळीं जाणां भिवन बशिल्लीं तातूंत आतां काळोख. भुरगीं रडूंक लागलीं. बायलां आड्डूंक लागलीं. सगळोच आकांत. सुहास बेगीन बेगीन रिसेप्शनाकडेन गेलो आनी पांचेक मिनिटांनी लायट आयली.

''युवर फूड इज रेडी, सर.'' रेस्टोरंटांतलो वेटर सांगपाक आयलो आनी सगळी जाणां जेवपाक गेलीं. हवेंत थंडसाण आयली, दर्याचो वारोय व्हांवतालो. रेस्टोरंटातलो एक वेटर कोंकणी उलयतालो. तो थळावोच आसतलो म्हणून सुवर्णान ताका विचारले, ''हांगा केन्ना देंवचाराची आजनेर बी जाता रे?'' ''भीतर केन्ना जावंक ना. पूण भायर एक देंवचाराचो जागो आसा, थंय मस्ती केल्यार तो आपली तांक दाखयता.'' ताणे सांगले. आनी तें आयकून सगळींच बायलां, भुरगीं भियेवन गुळी जालीं.

रातची सुहासान कॅम्प फायराचो प्रोग्राम दवरिल्लो. देंवचाराच्या भंयान अर्दी जाल्या बायल, भुरग्यांतली कोणूच कॅम्प फायराक येवपाक तयार जालीं ना. ''आमकां नाका तुमचो कॅम्प फायर, ह्या जंगलान हाडून दवरल्यात तुमी आमकां. हांगा आजनेर जाता. आमी सगळीं जाणां वचून एकाच रुमान न्हिदतात. तुमी करा तुमचो कॅम्प फायर.'' फणफणत ती बायल चलूंक लागली. ''आनी एक सांगतात तें आयका. फाल्या सकाळी स वरांचेर आमीं सगळीं मॉर्निंग वॉक घेवपाक वतलीं. आमच्या बरोबर तुमीय येवपाक जाय. आमकां सकाळी देवाचो जागो आनी तें आंतीक घर पळोवपाचें आसा'' सुवर्णान सुहासाक पळेत, सगळ्या दादल्यांक म्हळें.

सगळी बायलां आनी भुरग्यां गेली. सुहास आनी आमीग आपापले ग्लास आनी सिंगल मॉल्ट व्हिस्की घेवन गार्डनांत बसले. मिलिंदान मुकेश, रफीची गाणी म्हणली. रुपेशान बॅकोक ट्रिपीच्यो गजाली रंगोवन सांगल्यो, सतीशान शायरी आयकयली आनी दोन अडेच मेरेन ते थंय बसले.

सकाळी सारके स वरांचेर सुहास, मिलिंद, रुपेश, सतीश न्हिदल्या त्या रुमाचे दार वाजले. सगळी भुरग्यां तांच्या दारार मारताली. फातोडे तीनांक न्हिदिल्ले हे चौगूय, हांचे दोळेच उघड नाशिल्ले. पूण भुरग्यांचीच न्हय तर बायलांचीय ओर्द आशिल्ली. ताका लागून घोवांक उठचेच पडले. तयार जावन ती सगळीं मॉर्निंग वॉकाक वचपाक भायर सरली.

सकाळ बरी प्रसन्न आशिल्ली. काजू आनी आम्याचो घमघम सगळ्या वाठारांत पसरिल्लो. रिसोर्टाच्या गेटींतल्यान भायर सरतना सुहास आनी ताचे आमीग एकामेकांक पळोवन गालांतल्या गालांत हांसूक लागले. ''सांबाळून चला. एकमेकांचो हात धरा. हो जागो खर'' रुपेशान हांसून बायलांक सांगलें.

चलत चलत सगळी जाणां फुडें पावली. ''खंय रे? हांगा घुमटी, पेड, पोरने घर बी कांयच ना मरे वाटेर, सुहास?'' सुवर्णान आपल्या घोवाक विचारलें. त्या बरोबर ते चौगूय जाण हांसूंक लागले. ''सुवर्णा, आज तारीख कितली?

''आज एक एप्रिल मरे, आमच्या लग्नाचो वाडदीस आज.'' सुवर्णान जाप दिली. ''हय, आज एक एप्रिल. म्हणून आमी तुमकां एप्रिल फुल केलो. काल सांजेच्या आमी ज्यो गजाली सांगतात, त्यो खऱ्यो न्हय, त्यो आमी घडयिल्ल्यो काणयो. आमी तुमकां सगळ्यांक एप्रिल फुल केलो.'' सगळीं बायलां रागान तांबडी गुंज जालीं. ''एप्रिल फुल बनाया तो तुमको गुस्सा आया, इसमें मेरा क्या कसूर. जमानेका कसूर जिसने दस्तूर बनाया।'' सुहास, रुपेश, सतीश आनी मिलिंदान एका सुरान गाणो म्हणले.

''सुवर्णा, बरोबर पंचवीस वर्सापयलीं हांवे लग्न केलें आनी एक एप्रिलाक हांव 'फुल' थारलों. आज पंचवीस वर्सानी हांवे तुका 'फुल' केलें. आतां आमच्या जीणेंतली दरेक सकाळ - दोन 'फुलांचो' काळ, आमची नवी सकाळ थारतली.'' सुहासान सुवर्णाक म्हळें आनी सगळी जाणां खुदखदून हासूंक लागलीं.

संपर्क: 9665876860





# कोट्याधीश भावोजी

**मुकेश थळी**

गोंयच्या समाजांत एका तेंपार भुरग्यांची महत्वाकांक्षा आशिल्ली ती भावोजी जावपाची. कोण जातलो अशें भुरग्यांक विचारल्यार रोखडीच जाप येताली - मी भावोजी जाणार. साहित्यीक पुरुषोत्तम सिंगबाळ हांणी ह्या विशयाचेर आकाशवाणीचेर फोडणी फोव कार्यावळींत एक विनोदी भाशण केल्लें. तांची वाचपाची शैलीय खेळकर. निवेदन कार्रेगाद. उपरांत ह्या उलोवपांचेर एक कॅसेट लेगीत आयली.

भावोजी ह्या प्रकरणाक मावोड्या जो मान भोवमान, सरबराय, आदरातिथ्य मेळटालें ताका सुमार ना. भावोजी येवपाचो आसा, निवळ दवरात, भावोजी मुखार पचपच करूं नाकात आं, ए, भावोजी मुखार कपडे बी सारके जाय चकाचक... अशें हें अप्रूप. भावोजी येवप म्हळ्यार भोवमानादीक राज्यपाल बी आयिल्ले भशेन न्हय मूं, अशें आमकां भुरग्यांक दिसतालें.

''हें जाय तुका भावोजी? भावोजेक उदक दी रे, आरे... भावोजीक तुवालो दी बेगीन'', असले डायलॉग आयकतकच भावोजीली बडदास्त दवरपाचें ताचें म्हत्व अधोरेखीत जातालें.

गोंयांत तशे भावोजी खूब जावन गेल्यात आसतले. पूण गोंयच्या कला, संगीत, सांस्कृतीक नदरेन गिरेस्त आशिल्ल्या फोंडें तालुक्यांतल्या बांदोडें गांवांतल्या कलाकार केरकार कुटुंबाचो भावोजी प्रकाश थळी हांकां पुराय फोंडे वाठारांतलो लोक, नाट्य कलाकार आनी सगळेच भावोजी म्हूण वळखताले. हडकिताले. तोवूय तें एन्जॉय करी. कारण ताचो सभाव विनोदी आनी खेळकर.

''ए भावोजी, अंदू नाटक बिन आसा मरे?'' लोक तांकां अशे प्रस्न विचारताले. तो हें सगळें खेळीमेळीन घेतालो. जगप्रसिद्ध भावोजी प्रकाश थळी हो म्हजो काका. तो मुंबयंत इंग्लीश प्राध्यापक आशिल्लो. उपरांत ताणें मडगांवां शिकोवपाचें काम केलें. निबंदकार, अनुवादक आनी खास करून गोंयांतलो एक उत्कृश्ट नाट्य दिग्दर्शक. ताणें जायत्या कोंकणी मराठी नाटकांचें दिग्दर्शन केलें. नटवर्य अजित केरकार हो ताचो मेवणो. गोंयच्या नाटक चळवळीच्या इतिहासांत भावोजीची छाप खूब व्हड आसा. ताणें कितलींशींच नाटकां बसयलीं, सादर केलीं जे वरवीं रंगमंचाचो दर्जो वाडलो. मंच गिरेस्त जालो.

भावोजी म्हळ्यार काकाचें मराठी एकांकिकांचें एक पुस्तक प्रिया प्रकाशनान मुंबयंत उजवाडाक हाडिल्लें. काकाचें कोंकणीय एकांकींचें पुस्तक आसा. 'फुलां आनी फोगोट्यो' हो एक बरो ललीत लेख आनी निबंदांचो संग्रह. वासांनी जीव पिसो, खतखतें, टेम्पोचो प्रवास हे ताचे कोंकणींतले सणसणीत निबंद. ताका अणकार करपाक आवडटाले. बादल सरकार, दारियो फो, गिरीश कर्नाडाचें 'हयवदन' ह्या सारक्या साबार नाटकांचो ताणें अणकार केलो. प्रेक्षकांचें काळीज जिखलें.

फोंडेचे सगळे कलाकार ताका कोट्याधीश भावोजी म्हणटाले. शब्दांच्यो वा विनोदी कोटयो तो उतरां कणकणीं करी. एक फावट एका तरणाट्याचो मोबायल वाजलो. ही घडणूक सुनापरान्त कार्यालयांत. भावोजीन अचकीत टिप्पणी केली - ''मोबायलाचो डायलर टोन मंगलाश्टकां भशेन मरे सामको. सामकोच लग्नाक आयला हो... म्हाका भावोजी म्हणटा मरे, आतांच तुका व्हंकल सोदपाक वतां''... आमचो हांसून मुड्डो.

रामदास कामतीच्या आवाजांतलें 'सुख ना रे पयस पळे, उदक कशें तें व्हांवता...' ह्या गिताच्या चाली विशीं उलयतना ताणें म्हाका म्हळें - हें गाणें आयकून मंगलाश्टकांची चाल म्हाका याद जाता. हांवें मान्यतायेन मान हालयली.

गोंयांतली येरादारी म्हळ्यार एक त्रास-पोर्ट. फकत दगदग, गर्दी, कश्ट, त्रास. अशें काका म्हणटालो.

आमचो आजो एक कुशळ नट आनी पखवाजवादक आशिल्लो. आमच्या घरांत संगीताची उपाट आवड. प्रकाशकाका पेटी वाजोवपी. एक दीस आमी कला अकादेमींत बसून भुरग्यांचो तबला सोलो आयकताले. लेहरो धरपी पेटीवाल्यान लयेक घसरपी नवोदित तबलजीक सांबाळपाचो यत्न सुरू केलो. समेर येवपाची कसरत चालू आशिल्ली. हांवें म्हणलें - ''काका, लय मात्शी हाल्ल्यार प्रलय जाता. नाका, आसूं, पुरो म्हणत ताणें चिमटो काडलो, भायर या म्हूण कुरू केली.'' 'भायर सरूंया.' प्रेमभंग आनी हेर कसलोय भंग सोसूं येत. पूण लय-भंग न्हय रे शाण्या,'' अशें काकान म्हणटकच म्हाका हांसुकूच येवंक लागलें.

एक फावट भावोजी फोंडेच्या एका पंगडा खातीर एक नाटक बसयतालो. ताणें पेटीवाल्याक एका थारावीक मात्रां भितर ती रचना घेवपाक सांगलें. तें तुमी सांगिल्ल्या मात्रांनी बसना भावोजे, ताणें सांगलें. भावोजीन रोखडीच पेटी उखलली आनी दुसऱ्या हातान मात्रा दाखोवपी ठप्प ठप्प थाप आवाज काडीत ती रचना कशें भरता तें मास्तराक दाखोवन दिलें. भावोजीची संगीत गिनानाची किमया पळोवन सगळ्यांक अजाप जालें. ही लय म्हळ्यार आमच्या कुटुंबाचें दायज.

एक फावट कला अकादमीच्या ब्लॅक बॉक्स हॉलांत एक साहित्यीक कार्यावळ आशिल्ली. अचकीत वीज गेली. वीज सुरू जावपाक दोन मिनटां लागलीं. हॉलांत मौन आनी शांतता. काकान त्या काळखांत एक टिप्पणी केली - आतां हो हॉल खऱ्या अर्थान ब्लॅक बॉक्स जाला. सगळे प्रेक्षक हांसपाक लागले. काळखांत फकत हांसो किटकिटो आयकूंक येतालो.

संपादक म्हूण आमचो काका माथाळे दिवपाक हुशार आशिल्लो. ताणें कोंकणी नेमाळ्यांचें संपादन केलें. ताणेंच म्हाका जल्माक आयल्या उपरांत हें नांव दवरलें - मुकेश. 'पुलीस पुलीस मार पिळूक, भायर

*(पान ३० चेर)*

# मेनी हॅप्पी रिटर्न्स ऑफ दी डे!



**ग्वादालूप डायस**

फाटल्या म्हयन्यांत म्हजो जल्मदीस मनयलो. ''कितल्यावो?'' ''जाणां जाल्या बगर तुमकां केक पचना किते?'' हाजीर जाल्ल्या सोयऱ्यांक हांवें अशेंच विचारिल्लें. म्हणटकच हांव जाणां, तुमकां आनी वेगळें विचारूंक पडचें ना.

पुतान केक हाडिल्ली. न्हय! तिका केकूल म्हणल्यार चड बरें. तिचेर फकत 'मामा' इतलेंच बरयल्लें. (हो मामा कोण?) तें पळोवन एक समजलें. पिराय वाडटा तशी बर्थ डे केक ल्हान जाता!

तें केकूल कापपाचें म्हज्या मनांत नासलें. हाजीर आशिल्ल्यांनीं आग्रो धरलो म्हणटकच म्हाका सुरी हातांत धरचीच पडली. हे सुरयेची पिराय, म्हजे पिराये परस अर्धी!.

If you are half the age as that of your father, how old shall be you? (शाळेंत आसतना हो प्रस्न आयकून म्हजी इश्टीण रडूंक पाविल्ली. बाबड्याची आवय आंकवार). असली गणितां शाळेंत आसतना कित्याक शिकयल्लीं तें आतां तरी आयलें तुमच्या लक्षांत? येवं. पूण हांवें केकूल कापूंक वापरिल्ले सुरयेची पिराय मात तुमकां कशीच कळची ना. ती कळपाक तुमकां पयलीं म्हजी पिराय कळूंक नाका?

आसूं! केकूल कापपाचे तयारेंत हांव उबें रावलां मात...! आमगेलो आडूलो. ''राव गो. पोयलीं केकीर वाती पेटोवंया.'' ''पुराय जीण पेटोवन गोबोर केला. वाती आनीक वेगळ्यो कित्याक पेटोवंक जाय?'' मन फुतफुतलें. तरी आसतना आंकड्या रुपान दोन वाती पेटयल्यो. पूत आपलो नवो फोन घेवन ताचो कॅमरा म्हजेर जोखून तयार! (म्हज्या घरच्यांक संवंय पाडी). एकाद्रो नवो मोबायल फोन घेतलो जाल्यार ताचो कॅमेरा कसो चलता हाचो प्रयोग म्हजेर करतात.) ''वाती पालयतना तुका जाय तें माग मम्मा!'' धुवेन नेटान सांगलें. ल्हान आसतना खूब कितें मागिल्लें. देवान ताचो अर्थ कितें लायलो कोण जाणां! म्हज्या नमुन्याक पळयल्यार तुमकां समजतलें म्हजें पिकासांव!

हांवें कांयच ना मागतां नेटान केकूल कापलें. ''हॅप्पी बर्थ डे टू यू...!'' बेसूर बेबे कशे सगळ्यांनीं आपली गावपाची कला दाखयली. म्हाका मात कसलीच उमेद जावंक ना. तरी अडेचो हांसो वोंटार हाडून हांवें सोयऱ्यांची सरबराय केली. जालें. जल्म दीस सोंपलो.

''केकीर इतलो राग म्हूण कित्याक काडलो तुवें?'' दुसरे दीस सकाळीं हाणें आपले मानेर उदेल्लो रोव तासचे हेतून वाखर म्हज्या हातांत दीत विचारलें (बोल्सांतले पन्नास रुपया वाटावंक तो अशें करता).

''मागीर? केकीर नासल्यार तुजे मानेर काडूं?'' हांव तिडकलें. सदयाक आपलो गळो आनी वाखर म्हज्या हातांत आसा हें समजून तो फुडें उलोवंक ना. न्हय. ताका म्हजेर विस्वास ना अशें न्हय. पूण ताच्या विस्वासाचेर म्हाका विस्वास आसूंक नाका? ब...रो गळो आनी वाखर हातांत आयलो म्हूण कितें जालें? गळो कापूंक धाडस नाका?

पूण खरें सांगूं? धाडस आसलें जाल्यारूय अशें म्हाका सपनांत लेगीत जमचें ना. इतलें आसुनय वडा पुनवेक सूत बांदून, होच घोव म्हाका आनीक सात जल्म दी म्हणपी बायलांचें म्हाका अजाप दिसता. घोवाक पिडूंक एक जल्म पावना काय म्हणटां हांव! इतलें धाडस खंयच्यान येता काय तांकां?

हें तरी परवडलें पूण त्या फिल्सूची खबर जाणांत तुमी? पयरूच कोण तरी सांगतालो. घोवाचो राग खंय तें कंयसांवांचेर काडटा. तोवूय जाल्यार कसो? म्हणटा खंय, ''हांये तुका कितें म्हूळ जाल्यार देव मुगे घोवा व्होरों. आनी जोरी तोर तुमी म्हाक कितें म्हूळ जाल्यार देव म्हाका रांड कोरूं!'' आयकून म्हाका हांसचें काय रडचें तेंच कळना. रजांव कोणाचेंय आसूं, बळी मात घोवाचीच चडूं!

हे बाबतींत म्हजी कुवत साप्प वेगळी. तांच्या जाग्यार हांव आशिल्लें जाल्यार घोवाक सूत बांदून, फुडल्या सात जल्मांत म्हाका होच 'वड' दी म्हणटलें आसलें. हें आयकून आमगेलो म्हणटा, ''सायबा! जालीय जाल्यार कोसली म्हूण बायल दिली गा तुवें म्हाका? नाका हेये बाराबोर फुडलो जोल्म!''

म्हणचे? करता ते भाशेन म्हाका मेळोवन घेवंक ताणें हिमालयार वचून कितें तपस्या केल्ली काय म्हणटां हांव? हड्ड्याची एक 'बोर' (rib) दिवन आनीक कितलें बरें येतलें? बरो आयलो. फुडल्या जल्मांचें कोंदीसांव घालपी!

कितेंय जावं! फुडल्या जल्माचो विचार कुशीकूच दवरूंया! कित्याक जाणां? हो लेख वाचतकच ह्याच जल्मांत म्हजो फुडलो बर्थ डे जाता काय कितें हाचो दुबाव!

जर समजा जालोच जाल्यार... तो 'हेप्पी' बर्थ डे आसतलो???

संपर्क: 9922561568

***

## 'जाग' वर्गणीदारांक सुचोवणी

आमचे साबार वाचक 'जागाचे' वर्गणीदार जावंक सोदतात. तांणीं 'जाग म्हयनाळ्याच्या' खाला दिल्या बँक नाम्याचेर पयशे भरचे आनी आमकां आपलो पुराय नामो आनी वर्गणी पावती खाला दिल्ल्या फोन क्रमांक, वा ई-मेल, वा नाम्याचेर कळीत करची-

फोन- +91 7447268720

नामो- मॉडेल स्टेटस, फ्लॅट 3-SE-3, दोना पावल-ताळगांव रोड, ताळगांव गोंय 403002

Email- asawari.nayak@gmail.com

**Jaag Bank Details:**

Ac no: 4004002100005165

Name: JAAG MONTHLY

Bank Name: Punjab National Bank

Branch: Panaji-Goa

IFSC code: PUNB0292300



# मन कुशबनः सार्वभौमत्व - ओस्सय

दादा हेगडे



I am grateful to our politicians. They have not taken care of country, but me आर. के. लक्ष्मण हांची हीं सूचक उतरां. राजकारणी आनी तांचे सार्वजनिक पडबिंब ह्या विषयी जेन्ना हांव गंभीरतायेन विचार करता तेंन्ना खऱ्यांनीच म्हाका लक्ष्मणांची ही उपरोक्त उतरा पुरायेन पटतात. जुन २०२२ जाग म्हयनाळ्याचो अंक गोंयकारांक हांसोवन नव्यान जाग हाडचे पासत खास विनोदाक ओंपतात अशें कळ्ळें. आजून लेगीत कुसमणांतूच घुस्पल्ल्या म्हज्या मनांत त्या सरशीं कुसमणची कितलींशींच ''विनोदी पात्रां'' दिसूं लागली. ह्या मजगती २०२२ गोंय विधानसभेत नव्यांन वेंचून आयिल्ल्या नव्या आमदारांचो तशेंच तांतल्याच काय खटांचो शपथविधी सुवाळो न्हय तर शिगम्या मांडावेलो खेळ पळोवंक मेळ्ळो. तो पळयना फुडें म्हज्या मनांतली कुसमणची पात्रां साप्प फाटीं पडली. शपथविधीचो बारावोविधी कसो जाव येता हें तो सुवाळो पळयल्या उपरांत कळ्ळें. ''आपुले मरण पाहिले म्या डोळा । तो जाला सोहळा अनुपम्य । आनंदे दाटली'' गोंय विधानभवन । ''सार्वभौमत्वाचा'' भोग जाला । हे खऱ्या अर्थान अणभवलें.

''इंडिया इज माय कंट्री, ऑल इंडीयन्स आर माय...'' अशी एक व्हड इंग्लीश प्रतिज्ञा इस्कोलांत वर्ग सुरु जावंच्या आदीं आमकां म्हणची पडटाली. एक फावट तांतली एक ओळ हांवे ''आय शाल ओलवेस ''स्ट्रायव'' टू बी वर्थी ऑफ ईट'' म्हणपा जाग्यार चुकून ''आय शाल ओलवेस ''स्ट्रायक'' टू... म्हळे. तें आयकना फुडें इस्कोलाचो हेडमास्तर cum म्हजो काका, सर्गेस्त केशव हेगडे देसाय हांणी म्हाका गांधीजींच्या अहिंसेच्या शिकवणीचो विचार करीनास्तना, शिश्यां लाकडाच्या काळ्या पट्टेच्या शस्रान धु.. धु... धुलो. काळ्या पाण्याच्या शिक्षेचो हांवे घेतिल्लो तो ल्हानसो अणभव. 'ध' चो 'मा' केल्या उपरांत ''काका मला वाचवा'' ही पुतण्याची ''आर्त किंकाळी'' त्या वेळार जशी कोणेच आयकली ना तशीच म्हजी गत तो मार खातना जाल्ली.

सर्गेस्त बॅ. मोहनदास करमचंद गांधी हांका त्या वेळच्या काँग्रेस पक्षाच्या कवी मनाचे राजकारणी सर्गेस्त रवीन्द्रनाथ टागोरांनी 'महात्मा' ही पदवी दिली. त्या महात्म्याचें सपन आमी गोंयकार साकार करपाच्या वाटेर आसात हें पळोवन हांवे मनांतल्या मनांत म्हळें, महात्माजी तुमकां आतां ''कसलीच भिवपाची गरज ना.'' तुमच्या सपनांतलें जात-पात, गरीब श्रीमंत, उच्च-निच, शिक्षित-अशिक्षित हे भेद विरहीत लोकशाय पद्धतीन वेंचून काडिल्ले मुखेली कशे आसूं येतात, हें खरेपणान गोंयांत गोंयकारांनी ह्या वेंचणुकेंत प्रोवार करून दाखयलें. देशाच्या राज्य घटनेत भारत देश हो सर्वसत्ताधिकार आपणायिल्लो देश अशे प्रतिज्ञापूर्वक कथन केलां. देशाचो अथवा राज्याचो कारबार चलोवंच्या पासत वेंचून आयिल्ल्या लोक प्रतिनिधिक तो अधिकार उखलुन धरचो लागता. तो सर्वोच्च अधिकार म्हळ्यार 'Sovereignty', सार्वभौमत्व. आनी तें सांबळचे पासत वेंचून आयल्या उपरांत तांकां एक शपथ घेवंची पडटा. त्या उपरांतूच हांका सरकार चलवपाचो हक्क मेळटा. हेच वेंचून दिल्ले लोक फुडें आपलो अधिकार वापरून देशाचे तशेंच राज्याचे 'कायदे कानून' करतात. हांच्या हाता खाला आपली पात्रताय 'पणास' लावन नोकरी मेळयिल्ले सरकारी अधिकारी वर्ग स्वताक 'धन्य मानून' ते सांगता ती कामां 'आज्ञाधारक' पणान करतात. देश आणि राज्याचे कारभार चलचे पासत हांच्या सगळ्यांचो हातभार लागता. आनी तांच्या ह्या हातभारा पासत आज काल खंयच्याय सरकारी 'कार्यालयांनी' सरकारी नोकरांकडसून सामान्याचें काम जर जावंक जाय तर तांका ह्या नोकरांचो हात 'भार' केल्या शिवाय तें जावंक शकना. सत्ता मेळ्ळ्या उपरांत वेंचून आयिल्ल्या लोक प्रतिनिधीक जाय जाल्यार मीनाचो कोळसो, कोळश्याचो गोबोर, गोबोराचें भांगर करूं येता. मनश्याचो तसोच वागांचो, माकडांचो, राबीतो खंय कितलो तेंप उरचो हें थारावं येता. मूळ गोंयकार भोंवडेकार आनी काल-पैर भोंवडेर आयिल्लो भोंवडेकार मूळ गोंयकार जावं येता. ''आले 'विश्व-जिकिल्ल्या' मंत्र्या मना तेथें कोणाचे चालेना हें फट न्हय!!''

तो पेडणेचो, पणजेचो, वास्कोचो, मडगांवचो, केपेचो, काणकोणचो. फकत 'सांगेचो' म्हणी नास्तना 'सांग्यावेलो' कित्याक म्हणटात काय? जर खंयची भास स्वतंत्र आसा तर तिचे शब्द लेगीत स्वतंत्र उरूंक जाय असो म्हजो समज आसा. ह्या म्हज्या फाजील समजाविशी समजायतना एका कोंकणी म्हालगड्यान तें कशें खरें न्हय हें समजावन सांगिल्ल्याची याद जाली. केन्ना अशें कोंफुसांव जालें तर आपणे कितेंय आपणांव येता अशें ताणें सांगिल्याची याद जाता. पेडणेवेलो, पणजेवेलो, वास्कोवेलो... अशें लेगीत म्हळ्यार चूक जावं नजो अशें त्या म्हालगड्याचें मत आसलें!!! प्रत्येक भाशेक एक फामिल आसता.

फामिल वाडत गेल्या उपरांत भाशेंत बदल जायत रावता. बदल जावंन लेगीत ती आपलें मूळ सोडीना. कांय भासो वेगळायिल्ल्या फामिलींतल्यो आसतात. देखिक कोंकणीत चीनी आनी चीनी भाशेंत कोंकणी शब्द येनात. पुण हेर देशी भाशेंतले ते येवंक शकतात. गोंयचीन हें फकत खाणाच्या खपा पासत 'गोवा चीनी भाईभाई' संबंदातल्यान एका भाईन केल्लो अपवाद! कोंकणी भास ही संस्कृत अथवा प्राकृत भाशेच्या फामिलींतली आसल्या कारणान 'सार्वभौमत्व' शद्बाक जर स्वतंत्र उतर ना तर ते आमी आमच्या देशांतल्या हेर भाशेंतले आपणावंक जातालें. आतां तर गोंयकार उलयता ती भास 'आवयची' कांय 'मावशेची' हो वाद लेगीत फाटीं पडून वादांतल्यान 'मित्र पर्व' सुरु जालां. मावशेचें 'श्रीखंड' बरें जाता त्याच ताकतीची आवयन रांदिल्ली 'कळपुटी' तितलीच रुचीक लागता. हें आता जायत्या जाणांनी चाखून जालां. हेर भाशेंतल्या उतरांच्या देवाण घेवाणीतल्यान भाशेचो विकास जावं येता. ज्या वरवी २०२२ वर्सा गोंय विधानसभेंत कांय 'निवडक' विदुषकांनी 'सार्वभौमत्व' ह्या शद्बाच्यो भोयो भोयो केल्यो त्यो ह्या फुडें सांबाळूं येतल्यो. सकाळीं चरपाक गेल्ली म्हस सांजवेळां परतली ना जाल्यार 'गुगल सर्च' करपी लोकांक आतां तर कोंकणी लेगीत 'गुगल ट्रान्सलेटाचेर' सर्च करून पर्यायी शद्ब सोदून काडूं येता.

हालींच्या दिसांनी एक निवडून दिल्लो म्हालगडो लोक प्रतिनिधी सोशल मिडियाचेर हिंदी डायलॉग मारताना दिसता. ताणे तर हिंदीतल्यान मंत्री पदाची शपथ घेतना 'संप्रभुता' हो शद्ब लेगीत उच्चारलो ना. सार्वभौमत्वाक 'संप्रभुता' हें हिंदीतलें साप्प सोपें उतर आसलें. शपथेंतलें कितलेशेच शद्ब ताणे 'सामुसा' खाया तशें 'चाये' वांगडा खाले. ताणे उच्चारलेली हिंदी आयकल्या उपरांत भास लेगीत कशी आत्महत्या करूं येता हाचो 'आभास' जालो. खूपशे जाण सोपुत घेवप्या पैकी नवे नासले. शपथेंतल्या सगळ्यांत महत्वाच्या शद्बालागी अडखळप्या पैकी जायते जाण 'शिक्षकी' पेशांतले आसले. हांणी शिक्षित केल्ली पिळगी आमचे गोंय फुडे खंय पावयतली हाची कल्पना केल्ली बरी. कारण फुडारांतलें गोंय हीच पिळगी चलोवपाची आसा. शेकड्यांनी वर्सां गोंयचेर शेक गाजयल्ले 'गोरे सायब' हेच आपले पूर्वज अश्या गैरसमजांत जियेवपी कांय नीज गोंयकार 'कोंकानी' आनी 'इंग्लेज' ह्या दोन भासांच्या मदी घुस्पल्ले दिसतात. अशीच एकट्यान घुस्पल्ली शपथ घेतना आपलो कोंकणीचो मोग उक्तावपाचो 'थरार' केलो. आनी तशें करतना माय भास कोंकणीचेर 'शाब्दिक अत्याचार' केलो. ह्या आदींच्या असल्या सुवाळ्यांनी लेगीत असल्यो 'विनोदी दुर्देवी' घडणुको घडल्यात जावंये. त्या वेळार सोशल मिडिया आनी हेर माध्यमा नासली. सांजवेळां 'आकाशवाणी' जाय सर रावचें पडतालें. आनी आकाशवाणींत फकत निवळ 'गाळिल्ली' वाणीच आयकुंक मेळटाली. ह्याच पासत आमी त्या वेळच्या लोक प्रतिनिधीनी घाल्ल्या 'उजवाडा' पासून 'काळखांत' उरले. ह्या सुवाळ्याचें दुरच्यान दर्शन लेगीत जालें ना. त्या सुवाळ्यांचो सुवाद फकत त्या वेळच्या वेंचीक आमंत्रित आनी 'चमच्यांनी' घेतलो. तांका कसल्याय शब्दांचो, भाशेचो फरक जाणवलोना. आनी तो जाणवचोनाय बी. कारण 'पात्रांव' 'भाऊ', 'भाई', 'बाबा'.... दाखयता ती पूर्व दिशा आनी ते उलयतात ती भास हीच अपूर्व भास अशे तांचे 'मत' आसता. आयच्या तांत्रिक जगा पासत विधानसभा आमच्या तुमच्या दारी पावल्या. थंयसर चलिल्ल्या कोटीच्या कोटी खर्चावन केल्ल्या कामकाजाचो जीतो धांवतो नियाळ, कसलीच काट छाट नासताना सगळे आप आपल्या घरटीं बसून नियाळूंक शकतात. तो लेगीत घरटीं एक 'रोजगार' ह्या सरकारी येवजणे खाला, शेजारच्या बार्रातल्यान हाडिल्ल्या गार घोटा वांगडा 'अती आंनद झाला, ओस्सय....' अशें गायत!!

शपथविधी' सुवाळ्याच्या दुसऱ्या दिसा लोकशायेच्या चार खांब्या पैकी 'Press' ह्या एका खांब्यापोंदा बसलों. खांब्यापोंदा बसून अभ्यास करत तर मुखार व्हड नामनां मेळवं येता अशी म्हजी 'धारणा' आसा. पयले दिसा जाल्ल्या ह्या 'शपथसंहाराची' वर्तमानपत्रांनी नोंद घेतल्या कांय नां हें सोदुंक लागलो. बातमी खंयच नदरेंन गेली ना. बारीकसाणेन 'फट कुजबुज, बेश्टी कुजबुज, खरी कुजबुज, गंमत जंमत, हितगुज' असल्या माथळ्याखाला तरी ती दिसता कांय म्हण वाचपाचो यत्न केलो. लोकशाय पद्धतीन वेंचून दिल्ल्या आमदाराक जर बरोवन दिल्ली चार उतरां लेगीत धड वांचूक येना तेन्ना लोकशायेचो हो चौथो 'पिलर' मातसो तरी हालतलो अशी आस्त बाळगिल्लो हांव साप्प निर्शेल्यावरी जालो. हातुंत प्रेसाची कांयच चूक नां. स्वतंत्रपणान आपलीं मतां मांडपी 'पत्रकार' आयज उरूंक ना, हें फट न्हय. चडशे आसात ते फकत 'बातमीदार' ब्रेकिंग बातमी दिवपी. 'एंड ऑफ द डे, आय एम आन्सरेबल टू माय बॉस यु नो दादा...' अशें एका नागरीलिपींतल्या दिसाळ्याच्या तडफदार 'बाणे'दार संपादकान इंग्लेजींतल्यान काय वर्सां फाटीं म्हाका सांगिल्याची याद जाली. मतांच्या राजकारणांत 'बहुमत' महत्वाचें थारता. 'टक्केवारीक' कांयच अर्थ उरना हें मात साप्प खरें.

शेवटाक 'जशी प्रजा तसो राजा'. लोकशायेंत 'तो' एकदां वेंचून आयलो मागीर सामान्य प्रजेक पांच वर्सां तरी ताच्या विशीं आपले 'मत' उरना. तें परगटावपाक तांका आंदोलना करचीं पडटात. आंदोलना जातात पुण तांची 'फलप्राप्ती' थोड्यांकूच मेळटा. आंदोलनां करप आनी ती तिगोवन दवरचे पासत बरेच जाणांचे 'फाटबळ' लागता. दोन दिस तेंको दिवपी लोक थोड्या दिसा उपरांत रोकडीच आपली फाट दाखोवन त्या आंदोलनाचें बळ उणे करतात. 'द रिप्रेझेंटेशन ऑफ द पीपल एक्ट १९५१', वेंचणूक लडोवपी उमेदवारांक सोपूतपूर्वक खुपश्या गजालींची माहिती दिवपाची सक्ती करता. देखून ह्या फुडें वेंचणुक लडच्या आदीं उमेदवारांन जर वेंचून आयलो तर आपुण चूक नास्तना सोपुत घेतना ती 'बरोवन दिल्ल्याच' उतरांनी वांचूंक अथवा म्हणूंक शकता अशी लेखी हमी ताच्या कडसून घेवंची पडटली. अशें जाले तर नुकसान जातलें ते आमचेच कित्याक, आमी ह्या फुडें जित्या जागत्या शिगम्यांच्या मेळाच्या अती आनंदाक मुकतले.

संपर्क: 9822129070

***



# किसमुरीच्या रामायणावेल्यान महाभारत

**हर्षा शेटये**

गजाल तशी पोरणी. आता पोरणी म्हळ्यार सामकी पुर्तुगेज तेंपावयली न्ही आं. जाय जाल्यार आमच्यांनी सुनापरान्तांच्या काळांतली म्हणपाक जाता. आता सुनापरान्त म्हळ्यार भांगराचे गोंय बी काय असले प्रस्न मात विचारु नाकात. सुनापरान्त म्हळ्यार आमचें कोंकणी वर्तमानपत्र. ताचेर तेन्ना 'कॉमिक' म्हणून एक विनोदी सदर चलतालें. आता विनोदाचो आनी म्हजो तसो व्हडलोसो संबंद ना. फक्त विनोदी लेख वाचपापुरतो. तरीय दिसतालें, ह्या सदरात हांवेंय एक विनोदी लेख बरोवंचो म्हणून. पूण म्हज्या जिवितांत विनोदी घडणुकूच घडना आनी पेन फुडें वचना. पूण निमणो एक दीस तो भगवंत विष्णू - मत्स्यावतार म्हाका पावलो आनी ताणे रामायण घडयलें. मागीर आनी हांव रावता! सोमतें बरयलें आनी दिलें सुनापरान्तार धाडून. छापता तेन्ना छापू म्हळें! तर वाचात हें किसमुरीचें रामायण.

म्हज्या घोवाक ताज्या (फ्रॅश) फडफडीत नुस्त्याचो सामको घोस्त. सोमार बिरेस्तार सोडल्यार सदांच सकाळीं मडगांवां नुस्त्या बाजारांत वचून नुस्तें हाडटा. पयल्या दिसाचें नुस्तें फ्रिजांत आसा. आनीक हाडूं नाका म्हणल्यार लेगीत तो हुमणाक म्हणुन कितें तरी घेवन येतलोच. तरीय ते दिसा हांवें ताका 'कालच्या चणकुलांचे कुडके आसात, तूं आनीक हाडूं नाका म्हणलें. पूण ताणें सदचेवरी हुमणाक कितें हाडटा म्हणलें.



दनपारचीं इकरा जालीं. बारा जालींऽऽ. तरीय नुस्त्याचो पत्तो ना. फोन करुन विचारलें जाल्यार ''दुकाना वयल्यान भायर सरपाक मेळना, मात्शें काम आसा, थोड्या वेळान हाडटां'' म्हणपाक लागलो. वाट पळोवन पळोवन साडे बारा जालींऽऽ. तरीऽऽय नुस्तें ना. निमणें हांवें फोन केलो- ''आतां आनीक नुस्तें हाडूं नाका. फ्रिजांत आसा तेंच रांदतां.''

'हय, तशेंच कर. म्हाका आतां मातूय वेळ ना.'

आतां आयत्या वेळार कितें करतलें? पुरुमेंताच्या फेस्ताची गांवठी कांद्याची मोवळी हाडिल्ली आशिल्ली. बरेंऽऽ कांदे घालून दाळचो रोस करचो आनी चणकुलाचे कुडके तळचे. वालपापडेची भाजी आनी सालाद आशिल्लेंच. दाळ धुतना मनांत आयलें दाळचो रोस आनी खाऱ्या बांगड्यांची किसमूर खाल्यार कितलो तेंप जालो, यादींनूच जिबे उदक आयलें.

फ्रिजांतले चार बांगडे काडले, हय, आतां खारे बांगडे फ्रिजांतच दवरचे पडटात. भायर दवरपाची माणसुकी ना. मुयो खावन सोंपयतात. ते बांगडे लिप्प केले. शिरो केल्यो. खोबरेल तेलांत भाजले. कांदो चिरलो, सोय बी घालून किसमूर केली. हें सगळें म्हजो चलो टिव्ही वयलो 'कुकरी शो' बी पळयिल्ले भशेन अजानान पळयत राविल्लो.

जेवतना घोवान म्हणलें, 'खूब तेंपान बांगड्यांची किसमूर केल्या. खावंक बरी लागता. मदीं मदीं करपाक जाय!'

'हय, सदां जिवें नुस्तें हाडटा. मागीर खारें आनी कोण भायर काडटा?'

'कोण भायर काडटा म्हणल्यार? एक 'सायड डिश' म्हूण केन्ना केन्नाय किसमूर केली म्हूण कितें जाता?'

'कितें जाता म्हणल्यार? जिवें नुस्तें हाडूंक जायना. मागीर परती परती किसमूर करतां.'

'हय... हय... परती परती केली तुंवे. पयर दोन वर्सांनी तांतयांचें पुडिंग केलां. तेंय बी हांवें कर म्हणटकच!'

'दोन वर्सांनी केलें म्हूण कितें जालें? तूं म्हयन्यांतल्यान एकदां तरी खंयचे ना खंयचें पार्टेक तें खातात. मागीर हांवें आनी घरांत कित्याक करुंक जाय? खंयूय खालें म्हणटकीच जालें!'

'पुडिंगाचें सोडून दी, मटन शागोती केल्यार वर्स जालें. पुरणपोळयो केल्यार दोन वर्सा जालीं.'

'दोन वर्सा जालीं? जावंदी. पूण खाल्यार दोन वर्सा जालीं नात मरे? वता त्या लग्नां-मुंजीक पुरणपोळयो आसतातच. पयलीं तुजें वजन कितलें वाडलां तें पळय. ताचे वयल्यान कळटलें हांव घरांत कितलें रांदतां तें.'

'म्हजें वाडलां म्हणटा आनी तुजें वाडूंक ना? लग्न जालां तेन्ना ५२ आशिल्लें, आतां ७० चेर पावलां.'

'पावलें म्हूण कितें जालें? तुजें म्हजे परस वीसेक कील तरी चड आसतलें.'

'आसुंदी. कांय जायना चड आसल्यार. लोक जगपाखातीर खातात. हांव खावपा खातीर जगतां, जालें समादान?'

''म्हजें समादान कित्याक जावंक जाय? झक मारता ती किसमूर! करतां दोन दोन दिसांनी. वीट येसर खा मागीर...''

म्हजो चलो हें सगळें किसमुरीचें रामायण आयकत उबो आशिल्लो. ताका कितें दिसलें कोण जाणा, थंयचो उठून फ्रिजा म्हर्‍यांत आयलो. फ्रीज उगडून खाऱ्या बांगड्यांची पोटली काडली. दार उगडून बेगबेगीन धांवत सकयल गेटी कडेन गेलो. थंय सदांच एक सुणो बशिल्लो आसता. ताचे म्हर्‍यांत व्हरुन पोती उमथी केली. 'खाऽऽ सऽऽगलें खाऽऽ सोपय बेगीन.' म्हणत वयर आयलो. आमच्या दोगांय कडेन पळयत जैतवंत मुद्रेन उबो रावलो.

हांवें बरेंऽऽ बोडकां काडून सुकोवन दवरिल्ले बांगडे सुण्याच्या मुखार पडिल्ले पळोवन म्हजें तोंड धरलें काय वाचा बसली तो बाबडो देवूच (मत्स्यावतार) जाणा. सोमतो कानाक पीळ घालो. हाचे फुडें आनीक खारे बांगडे म्हणटात ते घरा हाडप ना. जालें तें रामायण खूब जालें.

(पूण सुकी सुंगटां हातूंत येनात आं. पीळ फकत खाऱ्या बांगड्यां पुरतो मर्यादीत!).

हांवें सुनापरान्तांत रामायण धाडलें आनी ओग्गी बसले. पूण 'रामायण' वाचिल्ले लोक केन्ना 'रामायण' विसरुंक आयल्यात. रामायण सुनापरान्तांत धाडून दोन आयतार गेले. आता म्हळें येना दिसता रामायण सुनापरान्ताचेर. तें दिसा तिसऱ्या आयतारा सदचेभशेन सकाळीफुडेच उठलें आनी बेगबेगीन नाश्तो करपाचे तयारेक लागले. इतल्यान फोन वाजलो... मातशें कल्ल जालें. इतले बेगीन फोन कोणाचो काय? आयतारा सकाळीं तसो कोणाचो फोन येना.

कितेंय वायट खबर दिवपाची आसल्यारुच येता. फोन कोणाचो काय म्हणल्यार म्हजे एके शाळेंत वांगडा शिकपी इश्टिणीचो. ताणें केन्ना फोन बी केल्लो म्हाका याद ना.

बाजारांत बी गेल्लेकडेन केन्नाय वाटेर मेळ्ळीं जाल्यार पोटभर उलयतात. हाचें आनी कितें जालां काय? 'आगो, सगळीं बरीं आसात मगो? हांवें भीत भीत विचारलें.

'हय गो. बरीं आसात. तुमचे घोव-बायलेचें दोगांयचेंय बरें जमता मगो?'

''कितें गो. लग्न जावन इतल्या वर्सांनी सो हो प्रस्न विचारता तूं?'

'ना ना. हरशींच. बरें तर. मेळुया मागीर' अशें म्हणून ताणें फोन दवरलो. सकाळी फुडें फक्त म्हजी खबर घेवपाक ताणे फोन केल्लो हें मात म्हाका पटलें ना.

येवजीत येवजीत हांव गॅसार तवो बी दवरुन पोळे काडपाचे तयारेक लागलें. इतले म्हणसर परतो फोन वाजलो. फोन दिवचलच्यान घोवाच्या एका इश्टाचो. 'ना रे, तो अजून उठूना' हांवें सांगलें.

''कितें? उठूना? म्हाका दिसलें नुस्त्याक बी गेला आसतलो. कांयच नुस्तें मेळूना जाल्यार मागीर किसमूर बी करची पडटा न्हय तुका?''

''मडगांवां खंयच्याय वेळार बाजारांत गेल्यार नुस्तें मेळटा'' अशें म्हणून हांवें ताका वाटेक लायलो.

इतले म्हणसर गॅलरींत पेपर उडयिल्ल्याचो आवाज आयलो. 'सुनापरान्त आयतार'चें पयलें पान उगडल्यार 'कॉमिक' सदरांत म्हजें 'किसमुरीचें रामायण' छापून आयलां. तें पळयले बरोबर म्हजी ट्यूबलायट पेटली. सकाळीं फुडें म्हाका हे फोन आयिल्ल्यान ते आमच्या मोगान न्हय. 'किसमुरीचें रामायण' वाचून आमचें घोवा-बायले मदलें झगडें खंय पावलां तें जाणा जावन घेवपाक आयिल्ले जातले शेर्त!

आतां घोवालो मोबायल वाजलो, 'आरे, तुजे बायलेचो लेख वाचलो. बरो मचमचीत जाला. मर्दी मर्दी अशींच फोण्णां मारात.' फोन करतल्या इश्टान सल्लो दिलो. घोवान बरें म्हणून फोन दवरलो. न्हिदेंतल्यान उठिल्ल्यान ताणे पेपर उगडून पळोवपाचें व्हडले तकलेन हाडलेना. चलो मात उठून भायर आयलो. 'आमी पिकेना'तलीं चित्रां पळोवपाक ताणे पेपर उगडलो. पयलेंच पान परतितना 'मम्मा, नुस्तेकात्र. पप्पा बेगीन पळय. मम्मान नुस्तें हातांत धरलां'! ताचो बोवाळ. बापायक व्हरुन पेपर दाखयतकीच ताका सू जालें.

इतले म्हणसर फोन परतो वाजलो. तो म्हज्या नणंदेचो. हो फोन मात दुसऱ्या कामाक आयला जातलो. तें काय 'सुनापरान्त' वाचिना. म्हूण सूं जालें. पूण सूं सूं... करुन गुळयो सुटिल्ले भशेन ताचीं उतरां कानार आदळलीं. 'आगो, तुका पिशें बी लागलां काय कितें गो? तुमचें मदलें झगडें वाऱ्यार घालता तें. सगळ्या घरांनीं आयदनांक आयदन लागताच. शिजता थंय करपता. म्हणून कोण पेपरार बरयना. म्हाका म्हजे इश्टिणीन फोन करुन विचारलें, तुज्या भावा-भावजयीचें एकमेकांकडेन पटना काय म्हणून. हाचे फुडें आनी असलें कित्याय कितें बरोवं नाका आं.! ताणे सोमती ऑर्द सोडली.

खंयचे झक मारलें आनी किसमुरीचें रामायण बरयलें काय जालें. पयलीं खाऱ्या बांगड्याची किसमूर करचें ना म्हणून कानाक पीळ घाल्लो. आतां आनी इतलें महाभारत घडटा जाल्यार विनोदी म्हणटा तें बरोवचें ना. आमकां आपले ललित निबंद आनी प्रवासवर्णनांच बरीं. कोणाचे फोनूय येनात आनी कांय ना अशें येवजीत कानाक आनीक एक पीळ घालो. बरयतलें विनोदी! बरयतलें विनोदी! घेऽऽऽ आता! खा पातोळयो!

दोन पीळ जाल्ले. आतां आनी इतल्या वर्सांनी 'तिसरी कसमा'तल्या राजकपूरा भशेन तिसरो पीळ आनीक घालचो पडना जाल्यार पुरो रे मत्स्याअवतारा!

संपर्क: 9850530152

***





# बाबूलें 'खडी प्रकरण'

**मीना काकोडकार**

गजाल तशी ल्हान.

पूण 'फां फां' जातकीच खंयचीय गजाल ल्हान उरना... तर व्हड जाता.

तशी ही गजाल 'फां फां' जावपाचे लायकीची नाशिल्लीच. तरीकय वाड्यावयल्या चार घरांनीं काय जायना 'फां फां' जाली.

सांगपाचें म्हळ्यार, आतीबायच्या नातवाक – बाबूक - तीन दीस जाले परसाकडेन जायना. ही ती गजाल!

बाबूक काय बरें नांव आसा - मंदार. पूण भुरगेपणासावन 'बाबू, बाबू' म्हणत आयल्यात. आतां जाणटो जालो तरी तो बाबूच. गोंयांत असले 'व्हड बाबू' खूब आसात; तातूंत ह्या बाबूची भर. तर हो बाबू पंदरा वर्सांचो घोडो. दोन दीस बाबून आपल्याक परसाकडेन जावंक ना म्हणून जागजूग केली ना.

सगलें भितरले भितर चिड्डून दवरलें.

तिसरो दीस उजवाडलो तरीकय बाबू ओगीच आशिल्लो.

पूण म्हातारेन कोंबो धांपून दवरलो म्हणून सकाळ जावपाची रावता?

×××

आयतार आशिल्लो.

बाबूचो पप्पा अवी आनी आजो... तातो भायर व्हारांदार बसून पेपर वाचताले.

बाबू आनी ताची धाकली भयण मुन्नी आपआपले मोबायल घेवन सालांत बशिल्लीं.

इतल्यांत आतीबाय न्हावन, धुवन आयली आनी देवाचें स्तोत्र घेवन सालांत वाचूंक बसली.

हरशीं आतीबाय देवाकुडींत सकयल बसून स्तोत्र वाचताली पूण हालीं तिका सकयल बसूंक त्रास जातालो म्हणून ती सालांतल्या सोफाचेर बसून स्तोत्र वाचतालीं.

इतल्यांत बाबून बुट्टाण सोडली.

बुट्टाणींकय म्हणून लेव्हलां आसतात. ही बुट्टाण सामकी शंबरापैकी शंबर मार्क घेवपी आशिल्ली.

घाणींनी आतीबाय सामकी निन्हळ्ळी.

स्तोत्र वाचपाचें विसरून तिणें पदरान नाकाक गुड्डो मारलो आनी तिडकीन विचारलें.

"कोणेंऽऽ?"

"हांव न्हय आजे" मुन्नीन म्हळें. "भैय्या कालसावन घाणी सोडीत आसा. सामकें प्रदूशण करता."

"बाबू, आज परसाकडेन गेलो ना रे, घाणी सोडटा तो?" आतीबायन विचारलें.

बाबून "जावंक ना" म्हळें.

"काल जाल्लें?"

"कालय जालें ना आज्जे." इती बाबू.

"पयर तरी गेल्लो रे उंवाळिल्ल्या?" आतीबायचें पासियेंस उणें जांवक लागिल्लें.

बाबून "ना" म्हणून मान हालयली.

"आगे बाये, तीन दीस हागूंक ना?ऽऽ नाकशिमन्या?"

बोवाळ आयकून बाबूची मम्मा- अमिता - भायर आयली.

"कितें जालां आई?"

"जालां आनी खंयचें? जालें नाऽऽ. तीन दीस जाले खंय."

"कितें जालें ना?" अमिताक कांय कळ्ळें ना.

इतल्यांत बाबून परत बुट्टाण सोडली.

अमितान 'श्शीऽऽ' म्हणून नाक धरलें.

"कळ्ळें न्हय तुका कितें जालें ना तें? तीन दीसऽऽ"

"हय रे बाबू? आनी ओग्गी रावला? सांगप बी कांय ना?" अमिता तापलें.



भावाक तापयतात म्हणून मुन्नी किटकिट्टालें.

"मुन्न्या, हांसूं नाका. सोंड फोट्टलों." बाबून धेंगसो घालो.

"आरे, ताचें सोंड फोडूं नाका. तुज्या पोटांत सुकून खडी जाल्या ती फोड पयलीं" आतीबाय तिडकली. "भायलें खाण गिळटात आनी मागीर पोटांत सुकता, अशें काल कितें खाल्लें?"

बाबून सांगलें.

"पयर कितें खाल्लें?"

तेंय बाबून सांगलें.

"पळयात. हो असो भायर खावन येता आनी घाणी भितर सोडटा." आतीबाय तापली. "आतां फोडात खडी!"

"आजे, बेठीच तापूं नाका. पयर राजूलो बर्थडे आशिल्लो म्हणून ताणें पार्टी दिल्ली."

"काल कोणें दिली?"

"काल आमचो रस्साआमलेट डे" आशिल्लो. म्हणून आमी गाड्यार गेल्ले.'

"गाड्यार? वा व्वा!×× सुकल्या हेवटेन आनी तुका गाडो सुचता तेवटेन."

आतां बाबूय वाजेलो.

"आजे, कितें खालें कात खालें ह्यो चवकशो करचे परस, कितें खालें तें भायर कशें येतलें तें पळयात मगे?"

"संडासांत वच आनी कुथण मातसो." अमितान म्हळें.

"दोन दीस जाले. पांच पांच फावटीं भितर वचून कुथणटां" बाबू पिरंगलो.

"सवे फावटीं कुथण."

"जालें, जालें कशें दिसता... पूण जायना."

"जोर लगाके खिंचो रे भैय्या." मुन्नीन हांसत म्हळें.

आतीबाय मुन्नीचेर तापली. "आगो, पोराच्या तोंडार गुड्डो बसला आनी तूं..."

"तोंडार न्हय गे आजे... भोंकाक" मुन्नीन तात्काळ दुरुस्ती केली.

"चल रे, दोतोरा म्हन्यांत या." अमितान

म्हळें.

हें आयकून आतीबायची तकली उसळ्ळी.

"आगे, रोकडेंच दोतोरा म्हऱ्यांत कित्याक धांवूंक जाय? आमचीं गांवठी वखदां नात? तुमकां उठसूट दोतोरा म्हऱ्यांत धांवपाची जाल्या संवय. भुरगेपणांत अवीकय अशेंच आत्रा पयऱ्यान हागूंक जाय नासलें. मागीर बसतालो कुथणत. त्या वेळार ताका हावें गांवठी वखदांच दिल्यांत."

इतल्यांत अवी व्हारांदा वयल्यान सालांत आयलो.

"सारको तुजेच भशेन जाला रे बाबा तुजो पूत." अवीक पळोवन आतीबायन म्हळें.

"म्हणजे गे?"

"म्हणजे चार, चार दीस हागप ना आनी मागीर कुथणप."

अमितान हांसो चिड्डिलो.

"शीऽऽ पप्पा कितें हें?" मुत्रीन म्हळें.

"आई, तूं भुरग्यां हुजीर नाका जाल्ल्यो गजाली उस्तून काडटा मगे" अवीन बेजारुन म्हळें. इतल्यांत ताचें लक्ष आतीबायच्या हातांतल्या स्तोत्राचेर गेलें. "आई हें कितें गे? हातांत स्तोत्राची पटी आनी तोंडान हागपाच्यो गजाली?"

हें आयकून आतीबायक आपूण स्तोत्र वाचूंक बसल्या म्हणचेली गजाल याद जाली. तिणें ल्हवूच पोले फोडून घेतले आनी ती परत स्तोत्र वाचूंक लागली.

इतल्यांत बाबून परत 'ढाम्मढूस्स' केलें आनी सगलीं तात्काळ सालांतलीं फाफसलीं.'

आतीबाय लेगीत देवाकुडींत वचून जाता नजो करुन जमनीर बसली आनी स्तोत्र वाचूंक लागली.

×××

बाबूच्या गुङ्ग्याचेर उपाय करप भोव गरजेचें आशिल्लें. ना जाल्यार खडी चड घट्ट जावू येताली. आतीबायकडेन गांवठी उपाय खूप आशिल्लें – "केळीं खाल्यार फरफरीत जाता." अशें म्हणून तिणें बाबूमुखार केळ्या फेणोच दवरलो.

-बाबून केळीं खालीं.

- "पोपाय तर सामकीच बरी" अमितान पोपायेचो ज्यूस काडून बाबूक दिलो.

बाबू ज्यूस पिलो.

पूण भितर घट्ट तें घट्टच.

"भायरी दिवन पळोवया."

आतीबायन बाबूक सालामार्क दिलें.

– बाबून तोंड वांकडें करीत तें घेतलें.

तिसरो दीस सोपून चवथो दीस उजवाडलो पूण बाबूचें 'मागीलदार' उकतें जालें ना.

बाबूच्या ह्या 'परसाकडच्या' बोवाळांत तातो मात तटस्थ राविल्लो. बाबून ताचे उपस्थितींत घाण सोडली जाल्यार नाक धापप वा, उठून वचप इतलेंच तो करतालो.

"नातू हेवटेन कुथणटा आनी ह्या दादल्याक कांयच पडून वचूंक ना." आतीबाय फडफडली.

हें आयकून तातो तापलो. "आगे, बाबूवांगडा हांव कुथणूं? मागीर जातलें ताका? तुमी कुथणटात तितलें पुरो ना?" आतीबाय तिडकीन भितर गेली.

×××

अमितान आपले आवयच्या कानारय ही गजाल घाली आनी तिणेंय गांवठी 'नुस्के'अमिताक सांगले.

तांगेरय कोणाकोणाच्या पोटांत अशें सुकतालें तांची तिणें उजळणी केली.

"एंडेल दी ताका. आनी सपोजेटरीय घाल. तुका घालतालीं. रोकडेंच जातालें मागीर." तिणें सांगलें.

तरी बरें, आईन हें फोनार सांगलें... अमिताचे तकलेंत येवन गेलें.

ताणें सपोजेटरी हाडल्यो.

बाबून सपोजेटरी घालून घेतली.

"भितर दवर थोडो वेळ" अमितान सांगलें.

"कितें सांगता गे तूं मम्मी? भितर आसा तें नाका जालां. वेल्यान हीय बी भितर दवरपाची?"

"कर तुका जाय तें" अशें म्हणून अमिता थंयचें गेलें.

उपरान्त सपोजेटरीच भायर सरली पूण हेर म्हाल भितरच उरलो.

दर फावटीं बाबू संडासांत वतकीर आतीबाय भायर रावन ताका विचारत रावताली. "जालें रे बाबू? जालें रेऽऽ?"

जूस्त ह्या 'जालें रेऽऽ?' प्रकरणाच्या वेळार शेजारचे 'जय' बिल्डींगेतली मावशीबाय तांगेर पावली.

"जालें, जालें कितें करता गे? कोण सुटपाची बी आसा?"

बेजारिल्ल्या आतीबायन मावशीबायल्या कानार बाबूची परिस्थिती घाली.

"आगे बाये! पोटांत खडी जाल्या आसतली पोराच्या." मावशीबायन म्हळें. तिच्या कोणाक तरी खडी जाल्ली ती फोडून कशी काडची पडली तें तिणें मीठ मिरसांग लावन सांगलें.

इतले म्हणसर Outcome zero करुन बाबू भायर आयलो.

"जालें रे बाबू?" आतीबाय आनी मावशीबाय दोगांनीय वांगडाच विचारलें.

आतां मावशीबाय आपल्याली खडी गांवार घालतली म्हणून बाबू पिकार जालो आनी तिडकीन थंयसावन गेलो.

"जावं ना दिसता गे बाये पोराक" अशें म्हणून मावशीबायन आपलें खडी पुराण परत चालू केलें. तें बाबूच्या कानार पडत म्हणून आतीबायन तिका बेगीन वयार केली.

"बाबूक 'जातकीर' रोकडेंच सांग गे म्हाका" अशें म्हणून मावशीबाय घरा गेली.

मावशीबाय जय बिल्डीगेंत पयल्या मजल्याचेर रावता.

"आगे खंय गेल्ली तूं?" घोवान ती भितर सरतनाच विचारलें.

"कांय ना म्हळ्यार... आल्याचो इल्लो कुडको जाय आशिल्लो तो हाडूंक आतीबायगेर गेल्लीं."

"हाडलो?"

"ना म्हळ्यार. बाबूक तीन दीस जाले परसाकडेन जांवक ना. तो थंय कुथणा. त्या बोवाळांत हांव आल्याची गजाल विसरलें."

"आसूं. कुथणूं ताका. तूं म्हाका इल्ली च्या करुन हाड पळोवया. गरमशी."

बाबू बाबडो थंय तळमळटा आनी ह्या दादल्याक च्या जाय. मावशीबाय फडफडत च्या करुंक गेली. पूण अर्दी, मर्दी ती गॅलरींत वचून बाबूली जाग घेवंक लागली.

सांजवेळा ती भायर गॅलरींत उबी आशिल्ली तेन्नाच जूस्त आतीबाय व्हारांदार आयली.

"बाबूक जालें गे?" मावशीबायन तिका व्हडल्यान विचारलें. शी सायबिणी – सगल्या गांवार घालता दिसता ही अशें आतीबायच्या मनांत आयलें. तिणें मान हालोवन "ना" म्हळें आनी ती तुरतुरीत भितर गेली.

आतीबायचें घर आनी जय बिल्डींग हांचे

मदीं करीमाचें घर.

करीमाची बायल आरिफा गेटीकडेन उबी रावन पदेराची वाट पळयताली.

मावशीबाय आतीबायक ''बाबूक जालें गे?'' अशें विचारता तें तिणें आयकलें आनी मावशीबायक विचारलें. ''क्या हुआ गेऽऽ?''

''हुवाच नैं'' मावशीबायन सांगलें.

हें आयकून आरिफा घुसपली.

इतल्यांत मावशीबायन स्पश्टीकरण केलें.

''बाबूको खडी हुई है।''

बाबू लडको आसून लेगीत मावशीबायन ताका 'खडी' कित्याक म्हणटा तें आरिफाक कळना जालें.

''खडी' या 'खडा'गे?'' तिणें विचारलें.

आगेबाये! आरिफालें खरें आसूं येता. बारीक आसल्यार 'खडी' पूण चार दीस जाले म्हणटकीर तो नक्की 'खडोच' जाला आसतलो. मावशीबाय चितूंक पडली.

इतले म्हणसर व्हारांदार बशिल्ल्या करीमान बायलेक विचारलें, ''बोवाळ कैसा गैऽऽ?''

आरिफाचें लक्ष पदेराचे वाटेकडेन आशिल्लें.

''बाबू खडा हुआ लगताय'' ती सांगून मेकळी जाली. ह्या दिसानीं वेंचणुको तोंडार आयिल्ल्यो. करीम आपल्याक तिकेट मेळची म्हणून प्रयत्न करतालो. पूण ताका तिकेट मेळूंक नाशिल्ली देखून करीम सामको पिकार आशिल्लो. आनी आपल्याक तिकेट मेळ्ळी ना थंय येद्दोसो बाबू मात 'खडा' रावतालो म्हणून ताका तिडक मारली.

बाबू येद्दोसो म्हणूनच ताका 'खडा' रावंक मेळना हें ताचे तकलेंतच आयलें ना.'

मावशीबाय कडल्यान सारकें इनफॉर्मेशन घेवंक तो गेटीकडेन आयलो.

''किधर खडा हुआ गे?'' ताणें हें मावशीबायक विचारूंक पदेरान पोंक्क पोंक्क केलें.

हाचें पडलें पाड सायबिणी... मावशीबाय मनांतल्या मनांत फडफडली. 'खडो किधर जाला तो हाका पयल्या मजल्यावेल्यान आड्डून सांगपाचो?

ती कांयच उलय नासतना भितर गेली.

''देखो तुम, बाबू CM बनेगा!'' करीम बायलेकडेन फडफडलो.

जय बिल्डीगेंत तळमजल्यार घनाबाब वेर्णेकार आनी ताची बायल पंचूआका रावतात.

घनाबाबाले जाणटे आवयक सोपणां चडूंक त्रास जातात म्हणून ताणें तळमजल्यार फ्लॅट घेतिल्लो.

घनाबाबाची आवय चडशी व्हडल्या पुतागेर रावताली आनी अर्दीं, मदीं घनाबाबागेर येताली.

पंचूआकाच्या मनांत तळमजल्यार फ्लॅट घेवपाचो नाशिल्लो. गॅलरी सामकी सकल आशिल्ल्यान भायल्यान कोणय सहज भितर येवंक शकतालो. शिवाय वयल्यान भोंवतणचो वाठार बरो दिसता अशें तिचें म्हणणें आसलें.

पूण घनाबाबान तिचें कांयच आयकनासतना तळमजल्याचेरच फ्लॅट घेतिल्लो.

ही गजाल घोवाकडेन झगडीं बी जाताली तेन्ना पंचूआका मुजरत वयर काडी.

आतीबायगेर इतलो बोवाळ चलिल्लो पूण पंचूआकाक ताचो वास लेगीत नाशिल्लो. (हांगा 'वास' ह्या उतराचो संबंध आनीक कित्याकडेन जोडचो न्हय)

मावशीबाय इतली शेजरा रावताली पूण तिणें पंचूआकाक कांयच सांगूंक नाशिल्लें. ती वयर रावन ''जालें गे, जालें गें?'' करून आतीबायक विचारताली तें पंचूआकान आयकल्लें.

आतीबायगेर कितेंय पूण घडलां हाची तिका खात्री जाली.

आतीबायची वावराडी 'बीबी' सद्दां जय बिल्डींगेकडल्यान वताली. पंचूआकान तिका आडावन विचारलें.

''आतीबायगेर क्या हुआ गे?''

बिबीन मागीर मीठ मिरसांग लावन ''चार दीन से बाबू हग्याच नै'' ही म्हायती पंचूआकाक दिली.

इतल्यांत मावशीबायन ''जालें गेऽऽ जालें गेऽऽ?'' केलें. हें आयकून पंचूआकाक तिडक मारली.

ती तरतरीत घोवा म्हऱ्यांत गेली.

घनाबाब मन लावन TV वयल्यो बातम्यो आयकतालो.

''तुमी फकत जगावेल्यो राटावळी करात. शेजरा पाजरा कितें घडटा ताचें तुमकां पडूनच वचूं ना.'' पंचूआका फडफडलें.

''अशें कितें जालें शेजरा पाजरा?'' घनाबाबान TV वेली नदर काडी नासतना विचारलें.

''मावशीबाय केदी धूर्त पळयात. बाबू चार दीस जाले, हागूंक ना; ही गजाल तिणें म्हाका सांगिनासतना चिड्डून दवरली.''

''कितें उलयता गे तूं? बाबू हागना जाल्यार मावशीबाय कशी चिड्डून दवरतली? तें काम बाबूचें.''

घनाबाबाचो एक दोळो आनी कान बातम्यांचेर आशिल्लो आनी दुसरो दोळो आनी कान पंचूआकाच्या उलोवण्याचेर आशिल्लो.

''तुमी तिचीच पार्त घेयात!'' पंचूआका चणचणली आनी बाबूच्या हागपाचो 'आँखों देखा हाल' पळोवंक ती तडक आतीबायगेर गेली.

आतीबाय कपलार हात धरुन सालांत बशिल्ली, इतल्यांत पंचूआका तरातरा करुन भितर सरली.

''आतीबाय, हें तुजें नाका जाल्लें! घरांत हें येदें व्हडलें प्रकरण जालां आनी शेजरा मातय जाग लागूंक दिवप ना?'' तिणे शीण काडलो.

''पंचूआका, बाबूक परसाकडेन जावंक ना ही गजाल मुजरत सांगूक धाडपाची वाड्यार?'' आतीबायक तिडक मारिल्ली. एकेवटेन बाबू हागूंक ना म्हणून हुसको. जाल्यार दुसरेवटेन हिचो शीण. पाड पडूं गे सायबिणी.

''मावशीबायक कशें कळ्ळें तर? ती सकाळसावन जालें गे? जालें गे? करता मगे.''

आतीबायचें आनी पंचूआकाचें पेटत म्हणून अमिताक हुसको जालो ताणें बेगिबेगीन पंचूआकाक व्हरुन कदेलार बसयलें आनी मेजावेलो सरबताचो ग्लास तिका पियेवंक दिलो. तितल्यार पंचूआका मातशें शांत जालें.

''बाबू खंय तर?'' तिणें विचारलें.

''तो येदोळसावन संडासांतच आसा. भायर भितर करुन तोय वाजेला. मोबायल घेवन भितरच बसला.'' अमितान सांगलें. उपरान्त 'खडयेचेर' चार गिन्यानाच्यो गजाली करुन पंचूआका वचूंक उठलें. आनी 'जातकीर' आपल्याक कळय अशें सांगून तें घरा परतलें.

×××

बाबूच्या इश्टांचे ताका फोन येत आशिल्ले.

बाबून तांच्या कानार कितें घडलां तें घालें आनी आपूण भायर सरपाचे परिस्थितींत ना म्हणून सांगलें.

"शशी! तुका कांयच पचना काय कितें रे?" एकल्यान म्हळें.

"हांवें आज खालें जाल्यार फाल्या तें सुळ्ळ करून भायर सरता." दुसऱ्यान म्हळें.

सगले इश्ट बाबूचीं फकाणां मारूंक लागले.

ते परत रस्साआमलेट खावंक वचपाचे आशिल्ले आनी बाबू आसचो ना म्हणून बेजार जाल्ले.

बाबूच्या 'खडी प्रकरणाक' चार दीस जायत आयिल्ले.

तात्यान अमिताक सांगलें, 'आगो, दोतोराक फोन करून विचार आतां. आमगेले वैजिणीचीं वखदां पुरो.'

"आजूत एक घालून पळोवंया म्हळ्यार" आतीबायन म्हळें.

'आजूत' म्हणना फुडें बाबू उसळ्ळो. "शीऽऽ हांव घालून घेवचों ना तें."

"कांय नाका आजूत बिजूत' तात्यान म्हळें.

अमितान दोतोराक फोन करून वखद हाडलें.

दोन डोस पोटांत वता खिणाक खडयेचें दार फोडून भितरलें कार्ग भायर सरलें.

आतीबाय वचून देवाक पांयां पडली.

'फां, फां' जाल्लें हे गजालीचें closure जावप गरजेचें आशिल्लें. आतीबाय बेगिबेगीन व्हारांदार गेली. मावशीबाय गॅलरींत आशिल्ली.

"जालें गेऽऽ" आतीबायन खोश्येन तिका सांगलें.

"देवाची कृपा गेऽऽ बाये." मावशीबायन म्हळें, "पेढे वांट सगल्यांक." हें संभाशण थंय बशिल्ल्या तात्याच्या कानार पडलें आनी ताणें कपलार हात मारून घेतलो.

"पंचूआकाकय मातशें सांग आं. नाजाल्यार ती शिणटली." अशें म्हणून आतीबाय भितर आयली.

आरिफा पोरसांत झाडां शिंपतालें. ताका पळोवन मावशीबायन म्हळें, "बाबूकी खडी पडी आंऽऽ" आनी घोवाक ही बातमी सांगूंक ती ताकतिकेन भितर गेली.

व्हारांदार बशिल्ल्या करीमान आरीफाक विचारलें.

"मावशीबाय क्या बोली गे?"

मावशीबायन कितें सांगलें तें आरीफाक धड कळूंक नाशिल्लें. तिका सारकें विचारचे पयलींच ती भितर गेल्ली. तिणें अदमासानच करीमाक सांगलें.

"बाबू खडा था नै? अब वो पड्या लगताय्!"

करीमाक अजाप जालें.

"इलेसावां हुईच नै ना गे? बाबू कैसा पड्या?"

"पता नैं जी" अशें म्हणून आरीफा शिंपत रावली.

तर सांगचेलें म्हळ्यार – अशेतरेन बाबूची खडी गाजोबाजो करीत पडली एकदांची.

संपर्क: 8087708050

***

# येवकार

**कृ. म. सुखठणकार**



'अथिती देवो भवः' हें आमचें बिद्र वाक्य जाल्ल्यान येवकार हें उतर आमचे खातीर सामकें म्हत्वाचें आनी सामकें लागिचेंय बी. म्हणुनूच आमकां वता थंय आनी मेळटा थंय 'Welcome' 'सुस्वागतम' अश्यो पाटयो लायिल्ल्यो दिश्टी पडटात. एकदां म्हाका प्रासार 'Welcome, Toilet Gents 1/- Ladies 0.50/-' अशी पाटी लायिल्ली दिश्टी पडली. Welcome बरें आसा पूण दादल्यांक एक रुपया आनी बायलांक आठ आणे लावपा फाटलें कारण कितें हें म्हाका कळ्ळें ना. हाचे फाटल्यान विज्ञानीक कारण आसतलेंच हातूंत मातूय दुबाव ना. सोड. 'सुस्वागतम जेवण तयार आहे. घरगुती पण रुचकर आणी स्वादिश्ट थाळी १५०/- रुपये' अश्यो पाटयो आमकां बशींतल्यान वतना रस्त्यार खाणावळीं भायर दिश्टी पडटात. आतां फकत मसंडे भायर 'सुस्वागतम आम्ही टायर आणी रोकेल न घालता स्वस्त दरात पेटवून देतो' अशी पाटी पळोवंची उरल्या. सोड. सांगपाचो मुद्दो 'येवकार' हें उतर आमकां सामकें लागिचें. हाका लागून आमी तें नाका थंय लेगीत वापरुन मेकळे जातात.

हालीं आमंत्रण पत्रिकेचेर सुवाळ्याची म्हायती दिवन सकयल 'येवकाराक रावतां' अशें छापून येवकाराक रावतां तांची नांवा दिवपाची नवी प्रथा सुरु जाल्या. हांव वाचतां आनी आयकतां तें खरें अशें धरुन चलपी मनीस. म्हजो सभाव तो आनी सभावाक वखद ना. फाटीं सत्यनारायणाची पुजा जातकच बाबुली भटान सत्यनारायणाची महिमा सांगपी कथा सांगपाक सुरवात केली. ते कथेंत एक व्यापारी नवस केला तो विसरता आनी ताका लागून तारेन वतना ताची तार बुडटा. हें आयकल्या बराबर म्हजो आवरो उडलो. हांवे मागीर सारमानशेर तारेन वचपाचें सोडून दिलें आनी व्हाया सांखळेच्यान वचपाक लागलों. अशी म्हजी गत. तर, आमी आमंत्रण पत्रिके विशीं उलयताले. फाटीं म्हाका सुवाळ्याचो अध्यक्ष ह्या नात्यान सुवाळ्याची पत्रिका आयली. ताचेर नवे प्रथे प्रमाण येवकाराक रावतां अशें बरयिल्लें आनी सकयल जाळवणदाराचीं नावां दिल्लीं. हांवे म्हज्या सभावाक धरुन बरयलां म्हणटकच खरेंच येवकाराक रावल्यात अशें मानून घेतलें. आमंत्रण पत्रिकेचेर दिल्या ते सुवातेचेर आनी समयाचेर हांव गुलाबी जाकीटांत आनी खांद्याक बोटवो लावन पावलों. माटवांत खंय येवकाराक रावल्यात तें सोदपाक म्हजी नदर माटवाचेर भोंवडायली. माटवांत दोन बोडकां आशिल्लीं. एक बनेरां लायतालें आनी दुसरें मायकाचेर 'हॅलो चेक', 'हॅलो चेक' अशें आडुतालें. हांवे म्हज्या वाचपांत कितें चुकलां बी काय हें चेक करपाचें थारायलें आनी बनेरांक खळ लावपी बोडका दिकेन प्रस्थान केलें.

''ये जो पात्राम मेरे येवकार के लिए माटोव में होना चाहिये थे वो किधर गुल हो गये?''

हांवे त्या बोडकाक ताका समजता ते भाशेंत आनी उतरांनी विचारलें. हांवे बोटव्यांतली आमंत्रण पत्रिका ताचे मुखार धरली. हांव सदांच खंयच्याय सुवाळ्याक वतना म्हाका आयिल्ली आमंत्रण पत्रिका लखाट्या सकट घेवन वतां, तुमचे म्हायती खातीर. ताणे दोळे बारीक करुन जाळवणदारांचे नांवांचेर नदर भोंवडायली.

''एक पात्राम बोतल में नल का पानी भरने के लिये पडोस के घर में गया है. स्टेज पे बातें करके गला सुकता है ना जी.''

''हां जी.'' म्हजो गळो उलोवंचे पयलींच सुकलो.

''दुसरा पात्राम बाणस्तारी बाजार करने के लिये गया है और तिसरा चाय की किटली ढूंढने के लिये.''

ताका विचारलेल्या प्रस्नांक ताणे दिल्ल्यो जापो आयकून म्हजे तकलेचे शंबर कुडके जावन म्हज्याच पांयांकडेन लोळपाक लागले.

''धन्यवाद जी.'' अशें म्हणून हांव थंयच आशिल्ली प्लास्टिकची खुर्ची ओडून तिचेर बसलों. येवकाराक राविल्ले माटवांत पावतकच, 'हांवूच तुमच्या येवकाराक रावलां' अशें हांवे म्हणटकच सगल्यांनीं हांसून म्हजे विनोदी बुद्धीची तोखणाय केली.

''छापलें म्हणून सगलें तशेंच जाता?'' रिकामी बिस्लरी बाटल्यांनी नळाचें उदक भरुन हाडिल्ल्या जाळवणदारान बाटल्यो टिपॉयचेर दवरीत म्हणलें.

''देशांत हरीत क्रांती जाली म्हणून दिसाळ्यांनी छापून येता. खंय हरीत क्रांती? बाणस्तारी बाजारांत कोथमिरे पाल्याची पंचवीस रुपया चुडी''- बाणस्तारचो बाजार.

''तुमचा शुभ आशिर्वाद हाच बहूमोल अहेर अशें होंवळीकेचेर छापिल्लें आसता. आमी खंय सिरियसली घेतात? आदल्या दिसा वचून अहेर करुन येताच न्ही, तातुंतलें हें! ह्‌हें ह्‌हें ह्‌हें ह्‌हें...''- किटली घेवन आयिल्ल्या पात्रामान 'येवकाराक रावल्या' हें हांवे सत मानपांत कशी चूक केली हें आनीक विस्कटावन सांगलें. सोड.

येवकार दिवप हो आमचो धर्म. हो संस्कार- आमचेर ल्हानपणासावन जाता अशें म्हणल्यार चुकीचें थारचेना. 'साधू संत येती घरा तोची दिवाळी दसरा' अशें आमच्या तुकाराम बुवान (पुश्पक विमान फेम) म्हणलां. दिवाळी समजुं येता. त्या दिसा नरकासूर सर्ती बी आसता. सर्तीक वचून येतकच आमी मोती साबांवान न्हातात. थोडक्यांत सगळ्याक आनंदी आनंद आसता. पूण दुसऱ्या दिसा आमी आपटो बुड्डुचो सोडून आनीक कांय करीनात. घडये यमक जुळोवपा खातीर तुकाराम बुवान दसरो म्हणला आसुंये. आसूं. बुवान साधू संत कोण ते आमकां सांगलें ना. म्हणटकच बापूय खांडेपारचो भाऊ दनपारच्या बारांक भितर सरतकच 'साधू संत येती घरा तोची दिवाळी दसरा' अशें म्हणून न्हावपाक वतालो. मागीर साधू संत, 'आगे हुमण आसा मगे काय कुंवळाचेर आवियार करता?' अशें ज्युदी खुटयाळ्याक लायत विचारतालो. म्हजे भुरगेपणांत आमगेर साधू संत आतऱ्या पयऱ्यान आमगेर आयिल्ल्यान सदांच आमगेर दिवाळी दसरो आसतालो अशें म्हणल्यार जाता. आज तशेच आमगेर साधू संत येत राविल्ले जाल्यार आमगेर शिगमो जावपाचो. मे म्हयन्यांत आमगेर मुंबयच्यान येवपी साधू संतांचो आंकडो व्हड आसतालो. ते येतकच आई सालांत हांसत्या मुखान तांकां येवकार दिताली.

''असच आलं गेलं पाहिजे नाही तर नवीन पिळगीला हे काका, मी काकी, हा बापोल भाव वगैरे कसं कळणार?'' अशें म्हणत भिण्णां सरबत तांच्या ताळ्यार घालताली. अशे साधू संत त्या तेंपार गोंयांत सगल्यांगेर येताले आनी तांची सरबराय वेवस्थीत जावंची म्हणून सगल्या घरांक मागिलदार आसतालें अशें म्हजें ठाम मत. कारण तेन्ना कोणूय, केन्नाय, कोणागेरुय पूर्वसुचना न दितां भितर सरतालो.

"हांगाच देवळांत प्रसादांक आयिल्लों. तातो वतकच हांव येंवकूच ना म्हणून मेळून येंवया म्हणलें. म्हणून हेवटेन भितर सरलों." अशें म्हणून भितर सरप जातालें.

"आगे वयनी बरी मगे?" अशें म्हणून पावणो अन्नपुर्णेची खबर घेवपाक रांदचेकुडींत पावतालो.

"आरे भावोजी वाट चुकलो?" अशें ती ताका प्रस्न करुं जाय म्हणून करताली पूण ती खंयच्या लातांत वा बरणेंत खंयचो जिनस आसा वा ना हाचो हिशेब ती त्याच वेळार करताली. पूण केन्नाच कोणाकूच हो नाका त्या टायमार भितर सरला अशें दिसनाशिल्लें. ती अन्नपुर्णा वेवस्थीत आपल्या तीन चार भुरग्यां भितरल्या एकल्याक मागिलदारच्यान धाडून खंयच्यान कितें हाडपाचें तें ज्यूस्त हाडून घेताली. तेन्ना भुरगींय तितलींच शिटूक आसतालीं. त्या काळान शिताक घालतना एक पेलो सदांच चड घालपाची पद्धतूच आसताली. कोण तरी जेवणा वेळार भितर सरतलो अशें धरुनूच अन्नपुर्णा शिताक तांदूळ काडटाली. आज ती परिस्थिती ना. आज घरांतलोच मातसो उसरां घरा पावल्यार ताका जेवण मेळना. आसूं.

घरांतलीं जाण्टीं कोणूय आयल्यार कशीं हांसत्या मुखान येवकार दितात हें आमी पळयतालेच त्या भायर शाळेंतूय आमकां शिक्षकां कडल्यान तशीच शिकवण मेळटाली. आमच्या देशाचेर राज्य करपी गोऱ्या सायबाच्या येवकारा खातीर रविंद्रनाथ टागोरान 'जन गण मन' बरयिल्लें अशें आमकां पाटील गुरुजीन सांगिल्लें तेन्ना आमकां खूब खोस जाल्ली, कित्याक ती खबर ना. फुडें आमी स्कुलांत पणजे पावले. थंय आमकां शास्त्री (हिंदी विशारद) सारके गुरुजन मेळ्ळें. ताणी हिंदी वांगडा आमकां बाकिचेंय ज्ञान दिलें. तांबडी भाजी खाल्यार लिटरांनी रगत वाडटा अशें आमकां शास्त्रीन सांगलें. त्या दिसा हांवे आईच्या फाटल्यान लागून चार चुडयांची भाजी करुन घेतली आनी खाली. दुसऱ्या दिसा म्हज्या पोटांत सुकलें आनी जावपाचो तो त्रास जालो. आईन, अशीच तुंवे तांबडी भाजी खाल्यार तुका बिकाचें जातलें अशी भविश्यवाणी केली ती हांवे शास्त्री सराच्या कानार घाली.

"ऐसी ही लाल भाजी खाई तो हमे बिकाचें हो जायेगा ऐसी माँ कहती है" हांवे सगलें with action करुन तांकां सांगलें.

"अजीब है गोवा के लोग" शास्त्री सरान म्हणलें.

तांबडी भाजी खावन म्हाका बिकाचें जातलें म्हणून अजीब है गोवा के लोग शास्त्री सरान म्हणलें बरें आसा पुणून चाचा नेहरुन कित्याक म्हणलें हाचो म्हाका तरी उलगडो जांवना. म्हजे वरीच आनीक कोणाक तांबडे भाजेचो त्रास जाता हें तांच्या कानार गेल्लें जाल्यार खबर ना. तर, आमी शास्त्री सरा विशीं उलयताले. ताणी आमकां, 'बद्रीनारायण चौधरीने जॉर्ज पंचम के स्वागत में 'सौभाग्य समागम' लिखी. अयोध्यासिंह उपाध्याय् ने 'शुभ स्वागत' लिखा. श्रीधर पाठक ने 'श्री जॉर्ज वन्दना' तथा नाथूराम शर्मा ने 'महेन्द्र मंगलाष्टक' लिखकर जॉर्ज पंचम और महारानी मेरी का स्वागत किया' अशें सांगल्या बराबर आमकां परत भरुन आयलें. आमचेर कितलेय अत्याचार करुं पूण तो मनीस दारांत आयल्यार आमी ताका येवकार दिवंकुच जाय अशी शिकवण आमकां शाळेंतूच मेळ्ळी. फुडें ही शिकवण मावोडेंचीं मनशां आमगेर येतकच म्हाका उपकारा पडली. फाटलें फुडलें सगलें विसरुन हांवे तोंडार हांसो दवरुन 'आवयस आज सूर्य खंयचे दिकेन उदेलो?' अशें म्हणत तांका दार काडलें: सोड. जेन्ना शास्त्री सरान जॉर्ज पंचम हांच्या येवकारा खातीर म्हालगड्या बरोवप्यांनीं येवकार गितां बरयलीं म्हूण सांगलें तेन्ना म्हाकाय एक बरयन दिसलें. हें वाचून तुमी म्हजी काकुळट करतले हें हांव जाणा. पूण खरें तें खरें. खरें तेंच सांगप हो म्हजो सभाव. म्हाका केन्नाच आपजिण वाचून सावरकर, गांधी, आगरकर, गोखले हांचे वरी जांवचें अशें दिसलें ना. स्वातंत्र सैनीकांक पेन्शन मेळटा हें वाचून म्हाका स्वातंत्र सैनीक जायन दिशिल्लें आनी पोर्तुगेज पयलींच तोंड घेवन गेल्ले हाचें दुख्खय जाल्लें. सोड तो नशिबाचो भाग. तर, हांवे जॉर्ज पंचम हाच्या येवकारा खातीर एक येवकार गीत बरयिल्लें ताच्यो कांय वळी दितां.

'स्वागत करुंया स्वागत करुया
राजा जॉर्ज पांचव्याचें
पावला तो पेडण्या गोंयचे शिमेर
आनी पावल्या आमची खोस उमळशीक तेंगशेर
कर कुशीक पाखल्यांक आनी यो तूं गोंयांत
हीच रे इत्सा आमच्या गोंयकारांच्या मनांत'

आमी शाळेंत आसतना सलीम जावेद हे जोडयेक बरींच नामना मेळिल्ली. ताणी बरयिल्ले सिनेमे एका फाटल्यान एक हिट जाताले. हाका लागून हांवे आनी दत्तान आमची एक जोडी केल्ली आनी शाळेच्या इन्स्पेक्टराक येवकार दिवपाक एक येवकार गीत बरयिल्याची याद जाता. दत्ता बाबा हे जोडयेन बरयलेलें हें स्वागत गीत:

'आरती ओंवाळुया साहेबांची
तपासणी करावया आले ती शाळेची
आज दिवाळी ना दसरा
तरी आहे चेहरा आमुचा हसरा
किमया ही त्यांच्या आगमनाची
आरती ओंवाळुया साहेबांची.'

हें स्वागत गीत गावन आमी इन्स्पेक्टराक येवकार दिल्लो. चलयांनी साडी बी न्हेसून तांकां आरत बी ओंवाळिल्ली. संध्या (बरडालें) मुद्दम नाकांत नथ बी घालून आयिल्लें. आसूं.

येवकार हो आमचे संस्कृतेचो भाग जाल्ल्यान सरकारांत लेगीत एक प्रोटोकॉल म्हणजे शिश्टाचार खातें आसता. जेन्ना देशांत अती महनीय व्यक्ती येता तेन्ना तांच्या स्वागताची जापसालदारकी ह्या खात्याचेर आसता. रेड कारपेट वेल्कम, गार्ड ऑफ ऑनर दिवपाची सगली आंखणी हें खातें करता. आमी जेवपाक मेजार बसतात तशें हांगा कोंताक येना. कोणे खंय बसपाचें, कशें बसपाचें, येवकार दिवपाक विमानतळार कोणे वचपाचें हें सगलें वेवस्थीत बरयल्ले कडेन आसता. चुकून हांगाचें थंय जाल्यार ते व्यक्तीचो अपमान थारुं येता. आमगेर शिश्टाचार खातें म्हजे कडेन आसा हें तुमच्या सगल्यां खातीर अभिमानाची गजाल. हाचो अर्थ म्हजे भितर येवकारा खातीर गरजेचो शिश्टाचार भरला असो न्ही. आमच्या घरांत आमचे भितर हांवूच वेवस्थीत आसतां हें कारण. हांव सदांच लेंगो आनी बानयानांत आशिल्ल्यान कोणाकूय दार काडून येवकार दिवपाक शकतां. दादल्याक हें शक्य जाता. पूण आमगेर दाराची बेल वाजल्या बराबर ही खंयूय आसल्यार पसून दाराचे दिकेन धांवता आनी की होलांतल्यान भायर पळयता.

"आवय म्हजे पळया कोण आयला तो आनी हांव हें अशें!"

अशें म्हणून ही भितरले वटेन परत धांव मारता. हांव हें अशें म्हणजे ही गावन घालून आसता तुमचे म्हायती खातीर. एकदां हिचो बापूय अचकीत आमगेर पावलो. त्या दिसा ही चुकून वेवस्थीत साडयेन आशिल्ली कित्याक तें याद ना. हिका पळोवन हिच्या बापायन, 'आगो बाय आज कितें स्पेशल आज साडयेन शें?' असो अजापान प्रस्न केलो. सोड. तर, मागीर हांव बानयान आनी लेंगो घालून 'की होलां'तल्यान कोण आयला तें पळयतां. मनीस पळोवन जाय तितलो अडेचो हांसो तोंडार दवरून दार उगडून ताका

येवकार दितां. आमचें दार आदल्या काळांतलें, सायलाचें. ताका आडामो बी आसा. ताका 'की होल' लग्ना उप्रांत हिणे बसोवन घेतला. तो बसोवपाक विने मेस्ताक आफयलेलो तेन्ना ताच्या जिवार आयिल्लें.

''भाटकारा देवान तुमकां दोन दोळे दिल्या आसतना ह्या सायलाक बुराक मारुन तिसरो दोळो कित्याक बसयता?'' विने मेस्तान बापायक विचारलें. बापायन सदचेवरी वयर फोराक पळयलें.

''आमकां दोन दोळे पावना, बसय तूं तिसरो''. आईन रांदचेकुडींतल्यान म्हणलें. विने मेस्तान गिरमीट मारलें आनी तिसरो दोळो लायलो. आतां आमी दार उगडचे पयलीं तिसऱ्या दोळ्यान पळयतात, तुमचे म्हायती खातीर. तिसऱ्या दोळ्यांचे खूब फायदे आसात. तातुंतल्यान पळयतकच मनीस पळोवन फावो ती तयारी करुं येता. भायर शेंवतें आयिल्लें आसल्यार हांव आसा ते स्थितींत दार उगडटा. तें म्हाका ते स्थितींत सदांच पळयता म्हणटकच ताकाय कांय व्हडलो फरक पडना. दार उगडटकच तोंडार येवकाराचो हांसो आसचोच पडटा. येवकाराचो हांसो म्हणजे दांतांची फुडली लायन कम्प्लीट दिसपाक जाय. जोडीक, 'आज सूर्य खंयचे दिकेन उदेलो?' वा 'रस्तो चुकलो?' वा 'आज आमची याद आयली?' हीं गोंयकारानी पेटण्ट घेतिल्लीं वाक्यां तोंडार आसपाकूच जाय. नुस्तेकार, पदेर हांकां आमी हीं वाक्यां वापरीनात कारण ते सदांच आमचे दारार मारतात. नुस्तेकार तर ज्या दिसा आमगेर शिवराक (सोमार, बिरेस्तार) त्या दिसा लेगीत दाराची बेल मारता. कारण मनीस केन्नाय बदलूंक शकता हें ताका खबर आसा. हिचे कुळारच्या मनशान बॅल मारल्यार दार उगडून, ओगीच अजाप जाल्लेवरी करुन हांव रांदचेकुडीचे दिकेन पळयतां. 'आगो पळय कोण आयला' अशें म्हणटां आनी कुशीक सरतां. खूब फावटीं दार उगडटकच, दारान उबो राविल्ल्याच्या हाता कडेन नदर वता. हांव मुद्दम जावन तशें करीना. हातांत मंयडोळ्या केळ्यांचो फेणो बी आसल्यार येवकार दिवपाक आपशींच उमेद शी येता. मागीर 'अलभ्य लाभ अलभ्य लाभ' अशें म्हणत हांव दार सताड उगतें करतां. अलभ्य लाभ आतां आमगेर परवलीचें उतर जालां. कोण आयला तो बरी सग्वाद घेवन आयला हें हिका रांदचेकुडींत आनी आईक देवाकुडींत ज्यूस्त कळटा.

बॅल मारतात तांकां सगल्यांक एकेच भशेन येवकार दिल्यार ती म्हजे खातीर आत्महत्या थारतली. आनी आत्महत्या करप हें कायद्यान गुन्यांव हें म्हाका वाचून आनी आयकून खबर आसा. म्हणटकच जेन्ना हिची आवय येता तेन्ना म्हजी दाड त्या दिसा भरिल्ली आसल्यार लेगीत (शिमिटान) तोंड पेंचून तोंडार हांसो हाडटां आनी म्हणूंक जमता तशें 'आज कपिला शश्टीचो योग' अशें म्हणत दार उगडटां. कपिला शश्टीचो योग येवपाक भाद्रपद म्हयनो, कृश्णपक्षांतली शश्टी, मंगळार, चंद्र रोहिणी नक्षत्रांत, सूर्य हस्त नक्षत्रांत आनी व्यतिपात योग अशें गणित जुळून येंवचे पडटा. पूण आमगेर हो कपिला शश्टीचो योग म्हयन्यांतल्यान कमीच कमी तीन चार फावटीं तरी येता. 'आज कपिला शश्टीचो योग' ही उतरां तोंडांत अर्दीं आसतनाच ही आसा थंयच्यान, आसा ते अवस्थेंत 'म्हजी मम्मी ती म्हजी मम्मी ती' अशें आड्डत येवकाराक प्रगट जाता. हांव तिचें हातांतलें बेग घेवन सालांत वतां. आई, 'कपिला शश्टीचो योग कितल्या दिसांक रे' अशें कुरवानी विचारता. हांव हातांतली बॅग वयर सकयल करुन अदमास काडटां आनी म्हजो अदमास सांगतां. सोड.

हांव येवकार हो आमचे संस्कृतीचो एक म्हत्वाचो भाग अशें ओगीच म्हणना. आमचीं पुराणां उस्तीत जाल्यार तशे दाखले आमकां मेळटात. जे येवकाराक कमी पडले तांची वाट कशी लागली हाचेर हे दाखले उजवाड घालतात. येवकाराक संबंदीत परिक्षीत राजाची पुराणांतली काणी जेन्ना जेन्ना म्हाका याद जाता तेन्ना तेन्ना म्हज्या आंगार कांटो येता. आज कोणाचेंच वाचन म्हणटा तें ना. म्हणटकच परिक्षीत राजाक भोगलां तें कलियुगांत कोणाक भोगचें न्ही म्हणून ही काणी थोडक्या भितर सांगतां. परिक्षीत राजा कासाक गेल्ले कडेन ताका तान लागता. तान लागली म्हूण तो शमीक रिशीचे आश्रमांत भितर सारता. शमीक रिशी ध्यानाक बशिल्ल्या कारणान ते परिक्षीत राजाक येवकार दिनात. राजा दोन तीन फावटीं उदक मागता तरी रिशी आपले दोळे उगडीना. हाका लागून राजाचो अपमान जाता आनी तो कुशीक पडिल्लो मेल्लो सोरोप शमीक रिशीच्या गळ्यांत घालता. रिशी ध्यानांत आशिल्ल्यान ताका कांय फरक पडना. पुणून शमीक रिशीचो पूत, बापायच्या गळ्यांत सोरोप घाला तो परिक्षीत राजा आज पासून सात दिसानी सोरोप चाबून मरतलो असो शाप दिता. अशी ही काणी. बारीक पळयल्यार हें सगलें घडपाक येवकार हेंच कारण. शमीक राजा न्हय त्या टायमार ध्यानाक बसलो अशें आमी म्हणू नजो. आमी न्हय त्या टायमार खंय बसतात हाचो हिशोब ना. शमीक रिशी बाबडो आपल्याच आश्रमांत बशिल्लो. म्हजो भंय असो, घरांत आसतना म्हाका शमीक रिशी वरी तंद्री लागली आनी म्हज्या गळ्यांत कोणेय येवकार दिलो ना म्हूण सोरोप घाल्यार? शमीक रिशीच्या आश्रमांत परिक्षीत राजाक येवकार दिवपाक कोण नाशिल्लो. आमचे घरांत आसून लेगीत नाशिल्ल्यावरी. आई एकदां जपाक बसतकच उठना. भुरगीं आपले कुडींत मोबायल घेवन आनी ही गॅसार दूद बी आसल्यार विचारुं नाका. दुदा पिशवी सत्तावीस रुपया जाल्ल्याक ही दूद गॅसार आसल्यार हालना. विठोबा (पंढरपुरचो) रांदचेकुडीच्या दारांत आयल्यार लेगीत आपूण वीट उडोवन उबो राव म्हणून सांगतली अशें हिणे आईक हालींच सांगलां. हांवे सावळ्याक एक वीट हाडून हिच्या हाता कडेन दवर म्हण सांगला, ऐन त्या वेळार मागीर धांवपळ नाका.

तर, घरांत येवकाराक उरलो तो हांव. म्हाका जर शमीक रिशी वरी तंद्री लागली तर सोरोप गळ्यांत पडटलो तो म्हज्याच. गळ्यांत जानवें पडलां तेंच म्हाका नाका पुरो जालां तातूंत सोरपाची भर आनी नाका. खूब फावटीं झोपाळ्यार बसून दोनूय कानांत तेल घालतकच बरी तंद्री लागता. ताचोच म्हाका भंय. हाचेर हांवे एक उपाय सोदून काडला. आमचे गेटीक हांवे तेल घालूना. म्हणटकच तिचो उगडटना खर्ऽऽ असो आवाज जाता आनी म्हाका समाधी लागिल्ली आसल्यार भंग जाता. विश्वामित्राची मेनकेन केली. म्हजे नशिबान ती ना म्हणटकच तें काम आमची गेट करता. आसूं. आमची गेट आनी आमच्या घराच्या दारा भितर अंतर आसा. म्हणटकच एकदां गेटीचो आवाज खर्ऽऽ करुन आयलो की तिसऱ्या दोळ्यान कोण येता तें पळोवन घर जाग्यार घालपाक वेळ मेळटा. आमच्या घरांत जाग्यार घालपा सारकें खूब कितें आसता. सोरोप आपली कात सोडटा तशी ही सालांत आपली साडी सोडटा. हाका लागून गेट वाजली की हिणे सोडिल्ल्यो साडयो, घागरे एकठांय करुन धांवचें पडटा. कोनश्याक हिची जटा आनी भुरग्यांनी आठवडो भर काडिल्ल्या नाखटांचो ढिग नेलकटरा सयत उखलचो पडटा. सालांतलें वाटकुळें मेज आमी कोणीय आमगेर आयले जाल्यारुच वापरतात. हाका लागून ताचेर सदां हात फिरोवप जायना. हाचो अर्थ आमी बाकिच्या मेजांचेर सदां हात फिरयतात असो न्ही. कोण आयलो ना जाल्यार वाटकुळ्या मेजाचेर दोन तीन इंच धुल्लाचो थर जमा जाता. कोणीय येवन वतकच ताका दिल्ले जिनस शेव, चिवडो बी ताणे हात लायलो ना जाल्यार फोलिणा भितर वता पूण च्या घेतिल्लें चिक्र आनी पिरी खूब फावटीं तशीच मेजार उरता. एकदां पोरोब, आमगेर, देवळांत तांच्या बितेस्ताराचें आमंत्रण दिवपाक आयिल्लो. म्हाका याद उरना म्हूण ताका खबर आसा. ताणे मेजाचो धूळ पाटी कसो

उपेग केलो आनी 'पुढच्या गुरुवारी देवळांत येण्याची कृपा करावी. आपला स्नेहांकीत परब'अशें बरोवन दवरलें. कांय दिसांनी ताचे सकयल 'परबांचा गुरुवार झाला आता कृपा करुन वरचा मजकूर पुसावा' अशें बरयलेंलें म्हाका दिश्टी पडलें. सोड. गेट वाजतकच हें सगलें जाग्यार घालून हांसत्या मुखान आयिल्ल्याक येवकार दिवपाचें काम म्हजें. हांसत्या मुखा फाटल्यान घेतिल्लें कश्ट मात कोणाक दिश्टी पडना. आमची गेट वाजोवचे पयलीं हाचो विचार तुमी जेरुल करचो ही म्हजी नमळायेची मागणी. आयचे पिळगेक दारांत आयिल्ल्याक कसो येवकार दिवप हाचें मुळावें शिक्षण शाळेंत आनी घरातूंय दिनात हाची म्हाका एक विचारवंत म्हणून खंत आसा. हाचो परिणाम हांवे खूब फावटीं सोयऱ्या धायऱ्यांगेर वतकच भोगला. भुरगीं तिसऱ्या दोळ्यांन पळयतात. म्हजो चेरो बिंधास्त दार उगडपा सारको आशिल्ल्यान दार उगडटा आनी 'मम्माऽ पप्पाऽऽ कोण तरी आयला रे' अशी दिंडी पेटोवन तीं खंय तरी अदृश्य जातात. हांव मम्मा पप्पाची वाट पळयत हॉलांत तांचे वण्टीवयलें, सकयलें वैभव पळयत उबो रावतां. मम्मा पप्पाक प्रकट जावपाक चडूच वेळ जाल्यार आसन गृहण करतां. हाताक लागता तें दिसाळें उगडटां आनी वाचिल्लेवरी करतां. दिसाळ्या वयल्यान याद जाली. फाटीं हांव कुडचड्यार म्हज्या आमिगागेर गेल्ले कडेन बॅल मारतकच दार उगडलें. पप्पाऽऽ मम्माऽऽऽ कोण तरी आयला गेयऽऽ असो म्हज्या संवकळीचो एनावंसमेंट जालो. सदां भशेन आशीकुशीक आशिल्ल्या वैभवाचेर नदर मारुन जातकच टीपोया खाला आशिल्लें दिसाळें उगडून ताचेर नदर मारली. 'लातूर उस्मानाबाद जिल्यात भूकंप. भूकंपाचे केंद्र सोलापूरच्या ईशान्येच ७० किमी अंतरावर होते. रिश्टर स्केलवर ६.०४ तीव्रता मोजला गेलेल्या ह्या भूकंपात अंदाजे ७००० माणसे मृत्युमुखी. १५००० जनावरांचा मृत्यु. १६००० लोक जखमी'. ही बातमी वाचून हांव बशिल्लों तो सोमतो सरळ उबो जालों. हांव स्प्रींग कसो उसळ्ळों तें भाभीन भितरल्यान पळयलें जांवये आनी ती हॉलांत प्रकट जाली.

"भावोजी कितें जालें?"

"ही बातमी. हालीं टिव्ही पळोवप आनी दिसाळीं वाचप जायना. आमगेली ही रायबंदरा कोणाली पारेत लेगीत पडल्यार म्हज्या कानार घालता आनी देशांत येदो व्हडलो भूकंप जालो तें हिणे म्हाका कशें म्हणलें ना?"

"भावोजी तो पंद्रा वर्सां आदींचो पेपर. पेपर वाच्चे आदीं तारीख पळोंवची न्ही?. हालीं सगल्या पेपेरांनी त्योच बातम्यो आसतात देखून तारीख पळोवप गरजेचें."- भाभीन म्हणलें.

"पंद्रा वर्सां आदीचें दिसाळें टिपोया खाला कित्याक दवरलां? आमी त्याच दिसाचें दिसाळें त्याच दिसा नुस्तें उजरावपाक घेतात. कोणाक वाचूं जाय जाल्यार धा वरां वाजचे पयलीं वाचूंक जाय मागीर नुस्तेकान्न आयली की, मेळना तो पेपर."

"भावोजी हें दिसाळें ओगीच सांबाळून दवरुं ना. ताका तशेंच कारण आसा. मदलें पान उगडा आनी पळयात. म्हजे मम्माची साठी आशिल्ली. त्या निमतान हांवे अख्खें पान कलर्ड छापून हाडिल्लें. १०,००० पडिल्ले. उगडा उगडा वाचा."

हांवे पान उगडलें आनी 'जीवेत शरदः शतम' पळयलें.

"तरी बरें आज तुजी मम्मा आशिल्ली जाल्यार ती पंचात्तर जावपाची आनी हें पान कमीच कमी २५ हजारांक पडपाचें. देव करता तें बऱ्याकूच करता म्हणटात तें फट न्ही"- हांवे पेपराची घडी करुन टिपोया खाला आशिल्ली तशी दवरली. सोड.

सगल्या सुवाळ्यांक एकेच तरेन येवकार दिल्यार नाका जाल्लीं किजिलां जावपाची शक्यताय आसा. हांगा नवे प्रयोग बी करपाक सुवात ना. आमगेर हळदीकुकमाक हांव स्पेशल हळदुवो झब्बो, धवो लेंगो आनी तोपी घालून येवकाराक उबो रावतां, तुमचे म्हायती खातीर. दारांत उबो रावन येता ते सवायशिणीक 'आयली, बरें दिसलें' अशें म्हणून दावो हात सरळ करुन सालाची दिका दाखयतां. सवायशीण तशीच लागिंची आसली जाल्यार एर इंडियाच्या महाराजावरी बागवतां आनी येवकार दितां. लग्न सुवाळ्याक आदीं दारा कडेन आंकवार अस्तुऱ्यो गुलाब दाणी घेवन उबीं रावतालीं आनी येता तांचेर गुलाब पाणी शिंपडटालीं आनी हातांत कागदाचीं फुलां दितालीं... बरी मजा येताली. म्हाका याद जाता हांव तेन्ना आंकवार. असोच एका लग्नाक गेल्लों. एकदां गुलाबपाणी शिंपडून घेतलें. शिंपडपी नाका दोळ्यान बरें आशिल्लें... मजा शी आयली... पिरायूच ती. एकदां घेतलें दोनदां घेतलें. ह्या दारांतल्यान भितर सरुन त्या दारांतल्यान भायर सरतालों. निमणे घाल्लें तें खोमीस गुलाबपाणयान चिप्प भिजलें तेन्ना हांव वाटकुळो फिरतालों तो बंद जालों. कागदाचीं फुलां एकठांय जाल्लीं ताचो हार करुन सालांत भाऊसाहेबाच्या पांयजेलाक घालो. सोड.

बापूजीन (दांडी यात्रा फेम) 'गिरायक हो तुमचो सामको म्हत्वाचो पावणो ताका योग्य रितीन येवकार दियात' अशें म्हणलां अशें म्हणटात, खरें फट खबर ना. पसरकार हें कितले गांभिऱ्यान घेतात म्हाका खबर ना. हरशीं म्हणून बापूजीक ह्या देशांत कितले गांभिऱ्यान घेतात हो आनीक एक प्रस्न. बरडान लक्ष्मीच्या पांयजेला खाला 'आज रोख उद्यां उधार' अशी पाटी लावन ताका फुलांची माळ घाल्या. हाचे वयल्यान आमकां ताका गिरायकाचो कितलो वालोर तो कळटा. बाराव्याक आमी पिंड दवरतकच उमळशिकेन कावळ्याच्या येवकाराक रावतात. पिंड दावरता सर दनपार जाता. वताच्या कडार तशे कावळे कमीच आसतात. हेवटेन पोटांत कावळे रडटात आनी तेवटेन एक कावळो दिसना अशी स्थिती आसता. अश्या समयार भटाच्या तोंडार मंत्र सोडून गाळी येता हें हांवे खूब फावटीं पळयलां. बापूजीन बाराव्याक कावळ्याक कसो येवकार दिवचो हाचेर कांय भाश्य करुना. केल्लें जाल्यार तें साधारण अशें आसपाचें.

- crow is the most important visitor on our premises on twelfth day. He is not dependant on us. We including भटमाम are dependant on him. He is not an interruption on our work, he is the purpose of it. He is not an outsider in twelfth day rituals, he is a part of it. We are not doing him a favour by giving him पिंड. He is doing us a favour by pricking it with his beak

आदल्या काळान फकत लग्न करुन जोडपें घरांत येतालें. नवी व्हंकल खोंट मारुन (मापाक) घरांत भितर सरताली. तेन्ना रिसेप्शन हो प्रकार नाशिल्लो. रिसेप्शन म्हणजे येवकार सुवाळो. थोड्यांक लग्नाक आफयना तांकां येवकार सुवाळ्याक आफयतात. थोडे लग्नाक पावनात ते येवकार सुवाळ्याक येतात. पुणून दोन भट सोडल्यार तींच तोंडां लग्नाक आनी रिसेप्शनाक दिश्टी पडटात. रिसेप्शनाक विधी कांय नाशिल्ल्यान धुंवर नासता. तो रिसेप्शनाक वचपाचो फायदो. खूब फावटीं लग्न गोंयां भायर जाता मागीर गोंयकारांचो शीण काडपा खातीर येवकार सुवाळो जोडप्याक फावता तेन्ना गोंयां जाता. अशें जाता तेन्ना सव्यार बशिल्लें जोडपें ओगीच जून कशें दिसता. हात दितना ती उमेद दिसना. तुमकां खावड घालपाक लागून हो सुवाळो करचो पडलो असो भाव हांवे तांच्या तोंडार पळयल्या. तांका हात दितनाय हें खूब फावटीं जाणवलां. एकदां अश्याच येवकार सुवाळ्याक हांवे व्हंकलेक दिवपाक हात फुडें केलो आनी तिणे 'Next' म्हणलें. अशें म्हणल्या बराबर 'Next' फुडें आयलो आनी

ताणे हात दिलो. हांव मागीर नमस्कार करुन बुफे लायनींत उबो रावलों. दोन तीन दिसां उप्रांत रिसेप्शन जायत जाल्यार बायलांक व्हंकलेक किते भांगर घालां तें कळना. हाका लागून तांचो विरस जाता. हालीं व्हंकलो दुसऱ्याच दिसा सगलें भांगर लॉकरांत दवरुन मेकळीं जातात. चुडो लेगीत दवरल्यार दवरलो. आसूं तो आमचो विशय न्ही.

आमच्या वाड्यार रामनमीक बी नाटकां जातात तेन्ना आमी नाटक पळोवपाक आयिल्ल्या रसिकांक वेगळे रितीन येवकार दितात. साधारण तो असो आसता.

''सुस्वागतम. रंग देवतेला नमन करुन पोर्तुगीजांच्या जाचाला कंटाळून गोव्यात विखुरलेल्या सर्व देवतांना दंडवत करुन रसीक प्रेक्षकांना अभिवादन करुन सविनय सादर करीत आहेत शिक्षणतज्ञ बाबा लिखीत दोन अंकी आजच्या शिक्षण पद्धतीची खिल्ली उडवणारे तूफान विनोदी नाटक 'बाई अंगठा लावून जा.''

आमच्या दारांत, गांवांत, देशांत येता त्या सगल्यांकूच आमी येवकार दितात अशें ना. पेपारें वाजयत दारांत नंदी बैल घेवन येवप्याक टायगरान केन्नाच दार काडलें ना. 'आमगेर नंदी बैलूय आसा आनी पेपारींय आसा' अशें तो म्हणी. कोणाक उद्देशून म्हणी तें मात कळ्ळें ना. आसूं. आमच्या देशांत सायमन कमीशन आयलें तेन्ना ताका काळे बावटे दाखोवन 'सायमन परत जा' अश्यो घोशणा दिल्यो हें कोणाचें वाचन आसा ताका खबर आसतलेंच. सायमन कमीशना वयल्यान याद जाली म्हणून सांगतां. आमी सायमन कमीशना विशीं शिकले तेन्ना सायमन कमीशनाक पन्नास वर्सां वयर जाल्लीं. आमकां परिक्षेक पांच गुणां खातीर ताचेर एक प्रस्न आयलो.

सायमन कमीशनवर भारतीय जनतेने बहिष्कार घातला कारण...

१) कमीशनची नेमणूक उशीरा झाली.

२) ह्यात एकही भारतीय प्रतिनिधी नव्हता.

३) कमीशनची नियुक्ती बेकायदेशीर होती.

४) गांधिजीना अटक करण्यात आली.

ह्या प्रस्नाक पांच गूण आशिल्ले ते सायमन कमीशनान खाले. आमी (दत्ता आनी हांव) परत 'सायमन परत जा' अश्यो घोशणा दिल्यो. History repeats itself म्हणटात तें हेंच काय, खबर ना.

संम्मेलनां बी जेन्ना जातात तेन्ना स्वागताध्यक्ष म्हूण आसता. ताचें काम येवकाराचें भाशण करपाचें. आमी कांय वर्सां आदीं रायबंदरा साहित्य संम्मेलन घडोवन हाडिल्लें. अध्यक्ष हांव आनी स्वागतध्यक्ष म्हांबरो. 'पहिल्या वहिल्या साहित्य संम्मेलनांचा स्वागताध्यक्ष म्हणून ह्या महामंडपात उपस्थित असलेल्या सर्व रसीक श्रोत्यांचे हार्दिक स्वागत करताना मला मनस्वी आनंद होत आहे.' अशी म्हांबऱ्यान भाशणाक बरी सुरवात केली. मागीर अध्यक्ष ह्या नात्यान म्हाका येवकार दिवपाचो वेळ आयलो. हांगा म्हांबऱ्यान मातशी गडबड केली म्हणल्यार जाता. म्हजी वळख करपाक सावंताली सून णववारी न्हेसून नथ बी घालून आयिल्ली. ती सगल्यांची वळख करपाची आशिल्ली. हेच खातीर सगल्यांक आपलो रोल खबर आसप गरजेचें.

'समाज स्वास्थ्यासाठी संततीनियमन आणि लैंगीक शिक्षण यांसंबंधी बुद्धिवादी, विचारप्रवर्तन व प्रत्यक्ष कार्य करणारे भारतातील एक आद्य विचारवंत म्हणून रधुनाथ धोंडो कर्वे यांना ओळखले जातात. तसेच संततीनियमनाचे रायबंदरचे आद्य प्रवर्तक म्हणून ज्यांची ओळख करुन देता येईल असे आधुनीक संत म्हणजे आमचे बाबा. स्वता पासून सुरु केलेले मतविचार प्रबोधन, प्रवर्तन व प्रत्यक्ष कार्य मोलाचे आहे'.

अशी म्हजी वळख करुन दिल्या बराबर लोकांनी ताळयो मारल्यो. पुणून दोतोरांनी दुयेंतीची, फार्मासकारांनी गिरायकांची, वकिलांनी अशीलांची म्हायती गुप्त दवरप सामकें गरजेचें अशें म्हजें मत. दुसऱ्या दिसा रामाच्या देवळा कडेन वण्टीर 'पदरी पोरे तीन तरी ही संततीनियमनाचे आद्य प्रवर्तक बाबा. म्हांबऱ्याचा धिक्कार असो' अशें खोडवान बरयिल्लें हांवे वाचलें. म्हाकाच मागीर सावळ्याक शंबर रुपया दिवन थंय चुनो मारचो पडलो. सोड.

'अति सर्वत्र वर्जयेत' अशें म्हणलां. खंयचेय गजालीचो अतिरेक जावप वायट असो ताचो अर्थ. आई, कैलासाक कंटाळो यो सर किर्तन करु नये, अशें म्हणटा, अर्थ तोच. मावोड्या परत परत वचत जाल्यार थंय मान उरना. हांवे मावोड्या म्हणलां कारण थंय खूब जाणाचें परत परत वचप जाता. मागीर येवकार सोडाच कोण उदक लेगीत विचारीना. चांदीच्या पेल्यान दूद दिवपी मेवणी,'भावोजी न्हिदपाक कोणाक रावला, तुजें हांथरुण आमी खंय दवरता खबर आसा न्ही, तें घे आनी सालांत न्हीद' अशें म्हणून लायट काडटा. म्हणुनूच अमीर मीनाई म्हणटा,

किसी रईस की महफिल का जिक्र ही क्या है<br>
खुदा के घर भी न जाएँगे बिन बुलाए हुए

-संपर्क: 9850530756

***

(पान १६ वयल्यान)

थिकां भितर दुकां' हे ताच्या रूपांतरीत नाटकांचे माथाळे.

एकदां ताका फोन आयलो. तो मराठी भाशेंत उलयतालो. फोनाचें उलोवप सोपलें. तो सुमार वीस मिनटां हांसतालो. मागीर सांगपाक लागलो. सुप्रसिद्ध लेखिका माधवी देसाई दुसरे वटेन उलयताली. ये मुकेश, ती म्हाकाय भावोजी, भावोजी म्हणून उलो मारता मरे. कितल्या लोकांचो हांव भावोजी कळना. तो त्या वेळार इंग्लीशींत माधवीताईचें पुस्तक अणकारीत करतालो. उपरांत तें पुस्तक एका भव्य सुवाळ्यांत उजवाडाक आयलें.

भलायकी इबाडून परिस्थिती बिकट जाली तेन्ना तो तीन सप्तकां जीएमसींत आशिल्लो. थंय लेगीत तो फकांडां करतालो. एलो-पथी, होमियो-पथी सगळ्यो पथी जाल्यो, आतां हांव उरलां तो तुमच्या व्हिजिटरांच्या सिं-पथीचेर म्हळ्यार सहानुभूतीचेर, आनी हांसून जियेतां अशें तो हॉस्पिटलांत मेळूंक येवपी लोकांक सांगतालो.

काकाक भैरवी राग खूब आवडटालो. एकदां ताणें आमकां सांगलें, म्हाका एक सीडी हाडून दियात, वेगवेगळ्या गायक वादकांचो भैरवी संग्रह आशिल्ली. म्हज्या व्हडल्या भावान काकाक सोबीत संग्रह आशिल्ली एक सीडी दिली.

एक दीस ताणें म्हाका म्हळें, पळय, हांव वतकच भैरवी वाजयात. खूब. सुरेल. तुमी मात बेसूर आवर्तन तानो बी मारूं नाकात. म्हाका धक्को बसलो. म्हाका हरशीं भैरवी आवडना. पूण गोंयांत खंय तरी भैरवीचे सूर कायम कानार पडटात. भावोजी ऊर्फ काकान केल्ल्यो कोटयो आनी विनोद, कितल्याशाच प्रसंगांची याद म्हाका भैरवीच्या सुरांनी जायत आसता. ताच्याच उतरांनी सांगचें जाल्यार, जांचें जाता स्मरण, तांकां नासता मरण...

# कविता

## पावल

**माधव बोरकार**

पानांचें हालप
रानाचें धोलप
शब्दान अर्थाक
अळंग तोलप.

ताल आन लय
वता विर्गळून
येता पावलांत
वाट जुळून.

यालता सोपूत
पावल वाटेक
वध्रेता गौळणी
कृष्णाचे भेटेक...

१५.४.२२

संपर्क: 9420222876

***

## हांव फुडें सरता

**निमिशा होबळे**

काळखी वाटो माडयत माडयत
उजवाडा दिकेन पावल मारीत
हांव फुडें सरतां

भगभगपी त्या अज्ञानाच्या उज्यार
गिन्यानाचे कळशेंतले उदक वतोवन
हांव फुडें सरतां

वायट तत्वांक आवळून बांदून घालून
बऱ्या गजालींखातीर मुक्ती मेळोवन
हांव फुडें सरतां

मनांतल्या पाटयेवेले अविचार पुसून
ताचेर विचारांची बाराखडी गिरोवन
हांव फुडें सरतां

निराशेच्या कोयराचेर साक्ष मारून
आशेचो थंड शिताडो शिंपडांवन
हांव फुडें सरतां

स्वताभितरलो राकेस मारून
मनीसपणाचो जल्म घेवंक
हांव फुडें सरतां.

संपर्क: 8329532163

***

## इंटरव्यूह

**काशिनाथ शांबा लोलयेकार**

१.
निमर्णे मर्णूच सोडयता जीर्णेतले कांय प्रश्न?
२.
तुजे मुखार प्रश्न आसा
आनी तूं मर्णाची वाट पळयता
पूण अशें म्हटल्यार जाता?
३.
मनाक ना लागलें फुल
ना लागलें फळ
मनाक म्हज्या लागलें
सायबा किर्तें लागलें?
४.
उत्तराच्या राखेंतल्यान प्रश्न
फिनिक्स कशे झेप घेतात मळबांत
फट दिसता जाल्यार विचारात आमच्या
दीपक प्रभुदेसायाक
५.
दामोदर मावज्याक न्हय
आल्बेर काम्युक विचारात
जीव दिवं काय च्या मारूं?
६.
एक सवाल मै करू
एक सवाल तुम करो
हर सवाल का सवाल ही जवाब हो
ओहो शैलेंद्र, लाजवाब!
७.
प्रश्न जळीमळी
प्रश्नाबगर केन्ना जीण आसा?
प्रश्न आसा म्हूण जीण आसा
प्रश्न आसा म्हुणूच हांव आसा
हांवें मान्य केला म्हजो पराभव
आनी जालां मुक्त
खरोच जालां मुक्त?
८.
कोणाचें किर्तें बिगडटलें ही पृथ्वी नश्ट
जाली म्हणून?

संपर्क: 9049814854

***

## गोफ

**परेश नरेंद्र कामत.**

तुज्या ओंठार
म्हज्या ओंठांची ही हूनसाण
इल्ली धगान; इल्ली मोगान...

आनी हो भोग-
भोगून भोगून भागना
भागना जिणेची तान;
हो तानसोर सोंपना

तापत्या कुडींचो हो गोफ
विणत गेलीं आमीं तसो भरत रावलो रंग
म्हजो सुटलो तोल- तुवें झेल्लो कसो
अळंग?

तापून न्हिवल्यो कुडी; उरल्या हूनसाण
अजून ओंठार-
जीण जांतना ल्हव ल्हव
ल्हवूच उसळून फुटली ल्हाय...

संपर्क: 9422640210

***

## गोरवांचे लफडें

उदय गुडे

एक दीस एक विपरीत घडलें
शाणुलें पाडूक
पेद्रुल्या पाड्या वांगडा
पळून गेलें
चरवाक गेल्लीं गोरवां
सांजेची जेन्ना परतलीं
तेन्ना ही गजाल
गांवभर फां फां जाली

शाणू आपलो लापयांव
आनी पेद्रू बॅटरी दिवो घेवन
पोरांक सोदूंक गेले
आनी दूद काडपा वेळार
रिकाम्या हातांनी परतले

सकाळीं -
न्हंयचेर, बांयचेर
पसऱ्यार, सांकवार
सगळेकडेन एकच बोवाळ
शाणुल्या पाडकाक पळोवन व्हेलें
पेद्रुल्या पाड्यार आळ.

येसो, भिसो, आवटो, पावटो
सांकवार बसून झांकताले
विडये झुरको मारतां मारतां
पोरांचे लफडें चोखताले
येश्यान म्हळें -
'करमळे तळ्यांत सोदलें गा'
ताचेर भिश्यान म्हळें -
'करमळे तळ्यांत सोदूंक
तीं कितें शेणल्यांत तर
तांका सोदतलो जाल्यार
दोंगरावेल्या झिलींची वाट धर
- झिलींनीं? थंय शें कित्याक?
- मडसरे तुज्या...

विडये पोतेर पायां पोंदा चिड्डीत
आवट्यान म्हळें
जाणा मरे पावट्या
पोरांक सोदून सोदून
दोगय जाण भागल्यात
आतां तांच्या बायलानी तांका
देवा दारांत धाडल्यात
पाद्रीन केलां थंय कुमसार
आनी घाडयान काडला आंसो
दोगय जाण जापेक रावल्यात
आपलो उक्तो करून पोसो

पुरसोमाम आपले शापार
लोकांचे केंस कापतालो
मर्दीच एक फित्रीक सोडून
बीन पाण्याची करतालो
हांव सांगता दोगांय जाणा
शेर्त सावंतवाडी वतलीं
हांगा विरोध जातलो म्हण
थंय लग्न जावन येतलीं

दादिल्या हॉटेलार
खबर एक पाविल्ली
च्या मारतल्या लोकांक
तोर्राद गजाल गाविल्ली
शाणू आनी पेद्रूलें खंय
तिट्यार बरेंच पेटलें
दोगय जाणांक खुमखुमी
एकमेकां जिवार उठले
बोडक्यो आतां फुट्टल्यो
इतल्यांत आंतोन थंय पावलो
दोगांकय घेवन तो
ताव्हेर्नांत आपल्या गेलो
दोगांयच्या मुखार दवरलो ताणे
फ्रेश जंगल ज्यूस
दोन घोंट मारतगीर हांचे
किजील जालें फूस्स

हेवटेन हें, जाल्यार तेवटेन
जायू, सायू, आकळें, पाकळें
ल्हवूच दोळो मोडटालीं
बांयचेर उदक भरतां भरतां
आपले भीतर फुतफुततालीं
एकली-
असलीं बाये कसलीं हीं
अवजाळी पोरां
पळून वचपाचें वारें आतां
गोरवांचेरय पावलां
दुसरी -
जात ना, कात ना
काळो ना, गोरो ना
आतांच्या पाडकांक
पाड्या बगर जायना
जायुलें दुःख वेगळेंच आशिल्लें
ताणे म्हळें -
ते शाणुल्या पाडकाक
तो पेद्रुलो पाडो सो पसंत पडलो?
ते परस
म्हागेलो पाडो कितें वायट आसलेलो?

हीं सगळीं नाडिझ्झेंगा
कावळो एक पळयतालो
सगल्यांल्यो भिकारभासो आयकून
मनांतल्या मनांत हांसतालो

आपणे तांका पळयिल्ल्याचें
कावळो लोकांक लागलो सांगूक
न्हय त्या वेळार काव काव हाची
म्हण लोक ताका लागले आमडूंक

कावळो बाबडोक सांगतालो लोकांक
आंब्या ताळ्यावेल्यान वणकून
तुमी आळ घालतात तीं पोरां
चिऱ्या खणींत पडल्यांत आडकून

संपर्कः 9604107362

***

## भाशा

भुवनेश शान्ताराम

तांबडे आसा मिगेलि लिखणी,
पूण काळें आसा मिगेल शब्द
जिब्बे रंग आसा गुलाबी
पूण मिगेल भाशण अस्पश्ट

कोण निर्माण केली ही भाशा?
ही अनेक रंगांची कविता
जी अम्गेली संस्कृताय उबारून व्हरता
एक जनन साकून उपरांतचें जनन पर्यांत

संपर्कः 7358594796

***

